## लेखकाचें प्रसिध्द जाल्लें साहित्य

१) शीला - कादंबरी
उजवाडावपी : राजहंस प्रकाशन
पणजी - गोंय

२) गीत शिरंगार
(कविता संग्रह)
उजवाडावपीः
ॐ श्री दत्त
पद्‌मजा प्रकाशन,
काणकोण - गोंय

।। श्री नागनाथ बेताळ सातेरी ।।

# खेळांगण

## (गोंयचे पारंपारीक आनी हेर खेळ)



एन्. सुहास



श्री. सुरभि प्रकाशन

**खेळांगण** (गोंयचे पारंपारीक आनी हेर खेळ)
एन्. सुहास
Khelangan (Folk and other Games of Goa)
N. Suhas

**प्रकाशन क्र. २**




**पयली उजवाडावणी :** १८ फेब्रेर, २००६

**उजवाडावपी :**
सौ. सुनाक्षी एन्. सुहास.
श्री. सुरभि प्रकाशन,
१६०, मंगेश मठी, धडें,
सावडडें – कुडचडें,
गोंय – ४०३ ७०६



**छापणावळ :**
क्लासीक ऑफसेट,
कुडचडें – गोंय.

**मुखचित्र संकल्पना :** सौ. सुनाक्षी

**मोल : ७०/- रूपया**



स्वताचो अभ्यास सादून
खेळांत मन रमोवपी
समेस्त बालगोपाळांक
खेळांगणांत येवकार

- एन्. सुहास




# लोकगिन्यानाचें धन – खेळांगण

एक धडपडी लेखक श्री. एन्. सुहास हांच्या 'खेळांगण' (गोंयचे पारंपारीक आनी हेर खेळ) ह्या पुस्तकाक प्रस्तावना बरयतना म्हाका भोव खोस भोगता. लोक–गिन्यानाच्या पुंजावणेच्या जातकुळींतलो हो वावर. सुहासबाबान तो आपले तांकीप्रमाण प्रामाणिकपणान केला. तकालस घेवन बरपावळ केल्या आनी आज पुस्तकरुपान तो उजवाडा येता. सुहासबाबाचें हांव मनःपूर्वक अभिनंदन करतां.

मनरिजवणेखातीर खेळ खेळपाची रीत मनशान आदीम अवस्थेसावन आपणायल्या. खेळाक लागून मनशाचे कुडीक व्यायाम मेळटा आनी बुध्दीक चालना मेळटा. निमणो परिणाम म्हळ्यार कुडीक घटाय आनी मनाक थाकाय. खेळप ही मनशाची सैमीक प्रवृत्ती. ती वृत्ती ल्हान बाळकापसून म्हालम्हाताऱ्यांमेरेन दिसता. मनशाच्या आदीम काळांत कुस्ती खेळप, मुश्टीयुध्द करप, फाशे मारप, द्यूत खेळप, नानातरेन शिकार करप असले क्रीडाप्रकार सुरु जाले. सुरक्षेच्या गरजेतल्यान ते विकसीत जाले. धांवपाच्यो सर्ती, नेमबाजी, जनावरांच्यो शर्यती असले मर्दानी खेळय तांतल्यान जल्माक आयले. बुध्दीचो कस पळोवपाचे नदरेन गंजीफो आनी बुध्दिबळासारखे खेळ प्रचलीत जाले.

खेळांचो इतिहास पळोंवक गेल्यार अशें दिसता कीं, मनशान मनाची उमळशीक वाडोबपाखातीर तरेकवार क्रीडाप्रकार सोदून काडले. ताचो मूळ हेतू म्हळ्यार आपली कुशाग्र बुध्दी आणि कौशल्य दाखोवन खेळांवरवीं मनीससमाज बळीश्ट करप. बुध्दीचो आनी कुडीचो वापर करुन पळयतल्यांक उमळशीक आनी उत्साह मेळवन दिवन तांचे मनरंजन करप. फक्त रंजन करप होच हेतू खेळांफाटल्यान नासता. खेळांक लागून धिटाय येता, चिकाटी, खिलाडू वृत्ती, निर्णय घेवपाची तांक हे गुण वाडीक लागतात. तेभायर नेतृत्वगुण, संघभावना, परस्परांच्या सहकार्याची भावना हांची पोसवण जाता. ग्रीक लोकांनी हें म्हत्व पयलीं समजून घेतलें. ताणी मर्दानी

खेळांक संघटीत आनी नियमीत अशें रुप दिलें. थंयसूनच ऑलिंपिकसारखे सामने सुरु जाले.

आज तरेकवार क्रीडाप्रकार लोकमान्य जाल्ले आसात. आंतरराष्ट्रीय पांवड्यार कितल्याशा खेळांच्यो स्पर्धा जातात, मेळावे जातात आनी राष्ट्रा–राष्ट्रांचे क्रीडाक्षेत्रांतलें वस्तादपण सिध्द करतात. भारतांत उदयाक आयिल्ले बुध्दीबळ, कबड्डी, खो–खो ह्या खेळांक आंतरराष्ट्रीय मान्यता मेयळ्या. पुण दुसरे वटेन आमचे कांय पारंपारीक खेळ लोक विसरुन गेल्यात.

गोंयचे गुडफळ्यांचे, ताबुलफळ्यांचे कितलेशे (कांगांनी, वाघांनी, ताबलानी अशे तरेकवार) खेळ आतांचे पिळगेक खबर नात. बुध्दीबळाचो सोद भारतान लायलो. ताका आंतरराष्ट्रीय पांवड्यार मान्यताय मेयळी म्हण जायत घडये, पुण आजमेरेन तो खेळ आमच्या जाण्ट्या–नेण्ट्यांक खेळपाक कळटा. हुतूतू, सोडीनी, लगोऱ्यांनी, दाम, गंजीफो, कोंयडे–बाल, लंगडी, मिलांनी, झिरक्यांनी अशे कितलेशे खेळ विस्मृतींत शेणल्यात. पन्नास वर्सांपयलींच्या ल्हान पिळग्यांक ह्या आनी असल्या कितल्याशा खेळांनी खेळयलें आनी रिझयलें. त्यावेळार गोंयच्या गांवगिऱ्या वाठारांनी हे पारंपारीक खेळ खेळत पिळग्यो व्हड जाल्यो. ताणी ह्या खेळ–प्रकारांची पोसवण केली. मागीर ते मैदानी, मर्दानी, बैठे, माटवांनी खेळपाचे वा घराच्या भितोड्यांत खेळपाचे खेळ आसूं. आमचे पिळगेचें भुरगेपण ह्या खेळांनी घुस्पलां. ताकालागून एन्. सुहासबाबासारको तरणाटो गोंयचे खेळांविशीं बरपावळ करुन पुस्तक उजवाडा हाडटा अशें कळटगीच म्हाका भोव खोस जाली. ताणे पुस्तकाक नांव दिला 'खेळांगण'. भोव बरें अर्थपूर्ण नांव.

आंगण जण एकल्याची जीण वेंगायता. जल्माक येतगीच संवंगड्याबरोबर ताणे पयलो खेळ खेळिल्लो आसता तो आंगणात. त्या आंगणाक तो आपले जीवितभर इश्ट मानता. कारण थंयच ताका आपल्या शारीरीक सामर्थ्याचो आनी बुध्दीच्या कुशळतायेचो पयलो दिश्टावो जाल्लो आसता. त्या आंगणात आनी आंगणाच्या सरभोवतणी खेळपाच्या खेळांची

म्हायती सुहासबाबान भोव बरे तरेन एकठांय करुन हें पुस्तक क्रीडा–प्रेमींखातीर तयार केलां. हाचेपयलीं गोवा कोंकणी अकादेमीन फाटले वर्सा (२००५) प्रा.भूषण भावे हाणी संपादीत केल्लें 'गोंयातले पारंपारीक खेळ' हें पुस्तक उजवाडा हाडिल्लें आसा. सुहासबाबाच्या 'खेळांगण' पुस्तकाकलागून गोंयच्या पारंपारिक आनी हेर खेळांविशींच्या म्हायतींत भर पडटली. गोंयच्या खाची–कोनशांनी शिंपडल्लें हें लोकगिन्यानाचें धन. तें आपापले तांकीप्रमाण पुंजावन पुस्तकरुपान दवरल्यार फुडल्या पिळग्यांक ताचो भोव बरो उपयोग जांवयेता. पूर्विल्या काळासावन चलत आयिल्ल्या बुदवंतकायेच्यो आनी कळाशेच्यो कुरवो काळाच्या लोटांत व्हावन वचूंनये म्हण ही जतनाय आमच्या पिळगेन घेवंक जाय.

खेळांगणातले खेळ वाचप्यांक बरे तरेन समजुवचे म्हण पुस्तकांत चडशा खेळांची रेखाचित्रां दिल्यांत. शिवाय पारंपारीक आनी आपारंपारीक (हेर खेळ) अशें वर्गीकरण करुन बैठे खेळ , मैदानी खेळ अशे गट करुन साद्या उतरांनी खेळ समजावन दिवपाचो एन्. सुहास हांचो यत्न तुस्त करपासारको आसा. हेर खेळांचेविशीं सांगपाचें म्हळ्यार ही वळेरी आंवाठ पळोवन कितलीय वाडोंवक येता. शाळा–कॉलेजीनी पी. ई. टीचर आनी सहली–शिबिरांचे वेळार फुडाकार घेवपी लोक खूबशे क्रीडाप्रकार प्रचलीत करतात. तांतल्यान शिटुकसाण वाडटा. मनरंजन जाता. पुण पारंपारीक खेळांच्या तुलनेन तांची प्रादेशिकता उखलापी थरता. खेळांगणातल्या बरपावळींत आशिल्ल्यो व्याकरणाच्यो चुको कांय जाग्यार रसभंग करतात हें खरें, पुण ताका लागून सुहासबाबाच्या वावराचें मोल मात्तूय उणे जायना. म्हाका ही प्रस्तावना बरोवन दिवपाक फावो ताचेपरस चड कळाव लागलो हाची खंत म्हज्या मनांत आसा. सुहासबाबाकडल्यान अशा तरेचो आनीकय वावर जावचो अशें मागतां. आनी 'खेळांगण' ह्या पुस्तकाच्या निमतान तांका म्हजीं काळजाथावन परबीं भेटयतां.

पणजी / १० डिसेंबर २००६

–डॉ. पांडुरंग फळदेसाय
सदस्य सचिव,
कला अकादमी गोंय



# खेळांच्या आंगणांतल्यान

आजकाल पारंपारीक खेळ नवी पिढी विसरत चल्ल्या. अशा ह्या खेळांची वळख नवे पिळगेक जावची ते नदरेन हे खेळ हावें बरोवन काडले. हातुंतले थोडे खेळ नव्या रूपांतल्या सुनापरान्ताचेर दर आयतारा उजवाडा आयिल्ले आसात. तातूंत आनीक थोड्या खेळांची भर घालून तांका पुस्तकाचें रूप दिलां.

वाचप्यांक तशेंच खेळपी भुरग्यांक सोपें जावचें म्हणून एकठांय केल्या खेळांचे तीन वांटे केल्यात. पयल्या वाट्यांत घराभायर खेळपाचे खेळ आसात, दुसऱ्या वाट्यांत भायर बसून खेळपाचे जाल्यार तिसऱ्या वाट्यांत भायर खेळपाच्या हेर खेळांचो आसपाव केला.

सतत अभ्यास करून भुरग्यांक वाज येता अशा वेळार तांका टी. व्ही. चो उगडास जाता. टि. व्ही. पळोवन भुरगी आळशी जातात, तांच्या दोळ्यांचेर ताण येता नाजाल्यार क्रिकेट, फुटबॉल सारख्या खेळांची याद जाता. पूण त्या खातीर चड साहित्याची गरज लागता. तशेंच चड खेळपीय जाय पडटात.

हेच खातीर ह्या पुस्तकांत हावें दोग जाणांनीं खेळपाचे खेळ धरून चडांत चड जाणांनीं खेळपाच्या खेळांचो लेगीत आस्पाव केला. खेळपी जितले एकठांय जातले तेवरवीं तो तो खेळ ताणीं खेळूं येतलो. तशेंच हे खेळ खेळटना उण्यांत उणीं सादनां लागतात. जाल्यार थोड्या खेळांत सादनांची आजिबात गरज भासना. हेवरीं सोपेपणीं हे खेळ खेळूं येतले.

हातुतल्या जायत्या खेळांतल्यान भुरग्यांक व्यायाम जातलो. थोडे खेळ स्मरणशक्त वाडोवपी आसात. कांय खेळ आंगांतली हुशारी वाडोवपी आसात. खेळांतली पारंपारीकपणां सांबाळटनांच ह्याय नदरेन खेळ उपेगी जातले.

शाळा, हायस्कुलाच्या भुरग्यांखातीर ह्या खेळांचो मुजरत उपेग करूंक जाय. त्याखतीर दरेका शाळा, हायस्कुलान हें पुस्तक संग्रहाक दवरूंक जाय. दरेका भुरग्यालागीं हें पुस्तक आसल्यार दुदांत साखर म्हणटात तशें जातलें.

विज्ञानीक युगांत पावली मारतना नव्या पिळगेन पारंपारीक खेळांचें दायज विसरचें न्हंय हो निवळ हेत मुखार दवरून हें पुस्तक हांव भौसाच्या पोशांत दवरतां.

पुस्तकाक प्रस्तावनेच्या रूपांत मार्गदर्शक अशीं दोन उतरां सांगपी आनी वेळांत वेळ काडून हेर गजाली नदरेक हाडून दिवपी गोंयच्या कला अकादमीचे सदस्य सचिव भौ.डॉ. पांडुरंग फळदेसाय हांचो हांव खासा उपकारी आसा.

क्लासीक प्रिंटर्साचे धनी श्री. सुधाकर रेड्डी आनी तांच्या कामगार वर्गान फाव त्या वेळांत सोबीत छापणावळ करून दिल्या खातीर हांव तांचेय उपकार आठयतां.

स्वतःचो अभ्यास सादून खेळांवरवीं आपली भलायकी सुदृढ राखपी, खेळामळार नांव दवरपी समेस्त बाल गोपांळांक हांव हें खेळांगण ओपतां. तेचवरी पुस्तकाच्या मुखपृश्टार खेळ मांडपी भुरग्यांक देव बरें करू म्हूण मागतां.

निमाणे कडेन ह्या खेळांक पुस्तकाचो रूपकार चडयतना जायत्या जाणांचो पालव मेवळो त्या सगल्यांचो हांव उपकारी आसा.

१८ फेब्रेर २००७ —एन्. सुहास



# मांडावळ

## पारंपारीक खेळ

### अ - भायर खेळपाचे खेळ



### ब - घरांत बसून खेळपाचे खेळ



## हेर खेळ

### क - भायर खेळपाचे खेळ





# १. लगोऱ्यो

ह्या खेळांत दोन प्रतिस्पर्धी 'अ' आनी 'ब' पंगड आसतात. उण्यांत उणे दोन आनी चडांत चड कितलेय वांगडी आसूं येतात.

**साहित्य :** एक रबराचो बॉल, सात नळकुट्यों[१] / लगोऱ्यो.

**खेळां मैदान :** ह्या खेळाक खेळां मैदानाची तशी गरज ना. पूण आसल्यार जाता. आडोशे आसत तर बरे तरेन हो खेळ खेळूं येता. म्हणून गावांत कोणाल्याय आंगणांत हो खेळ खेळटात.

**खेळपाची पध्दत :** आंगणांत / खेळांमळार मदीं जमनीर एक / दोन फूट व्यासाचें वांटकुळें वर्तुळ बडयेन काडटात. तातूंत मदीं एक अशो लगोऱ्यो लायतात. थंयच्यान तीन / चार मिटर पयस शीम काडटात.

'अ' पंगडाचो एक वांगडी शिमेर रावन बॉल मोखून लगोऱ्यो शिवरायता (चित्र. नं. १) 'ब' पंगडाचे वांगडी त्यो आशिल्यो तशो लावपाचो यत्न करतात. ते त्यो लावपाक येता आसतना 'अ' पंगडाचे वांगडी तांचेर बॉल मारून धांवडायतात.

ठतले मदीं बॉल जर 'ब' पंगडाच्या हातांत मेळत जाल्यार ते तो बॉल काडून पयस मोखून मारतात. 'अ' पंगडाचे वांगडी तो बॉल हाडटा म्हणटासर 'ब' पंगडाक लगोऱ्यो दाळून लावंक वेळ मेळटा. सगल्यो लगोऱ्यो लावन जातकीर तो मोट्यान 'लगोऱ्यो' म्हणटा

उपरांत हे तरेन दुसरो पंगड लगोऱ्यो बॉलान मोखून शिवरावन खेळटा.

चित्र नं. १

शीम




बॉल



१. आतांच्या रूंद नळयांच्या जाग्यार आदल्या तेपार अशीर एकच पावळेचे सुलचे नळे लांबशे आसताले तांचे हाताच्या ताळटायेदे कुडके.



# २. आसपास

ह्या खेळांत उण्यांत उणे दोग जाण चडांत चड कितलेय वांगडी आसू येतात.

**साहित्य :** एक नळकुटी वा नाल्लाची कट्टी.

**खेळांमळ :** हाका खेळामळाची गरज ना. आडोशे* आसत जाल्यार चड बरे, म्हणून आंगणांत खेळूंक जाता. आडोशे म्हूण कोणाल्याय घराफाटल्यान वा हेर कडेन ल्हिपप.

**खेळपाची पध्दत :** सगल्या वांगडी वाटकुळे रावन १०, २०, ३० अशे १०० आकडे एकामेकाचेर मेजतात. जाचेर १०० आंकडो येता ताका कडेक काडटात. फुडल्या गड्या कडल्यान परत १०, २० ते १०० मेजतात. अशे करून निमाणो एक गडी उरता ताचेर डाव येता.

चित्र नं. २




प्रत्यक्ष खेळाक सुरवात करतना एका जाग्यार कुरू करून दवरतात. थंय उबो रावन एकलो नळकुटी / कट्टी पयस मोखून मारतात. डाव घेवपी ती हाडटा म्हणसर सगले वेगवेगळे कडेन ल्हिपतात. तो गडी ती कट्टी / नळकुटी हाडून कुरू केल्या जाग्यार दवरता. आनी ती राखूंक रावता. तेच बरबर ल्हिपून राविल्ल्या गड्यांक सोदून काडप बाकीचे ताची नदर चुकोवन

ते कट्टेक / नळकुटेक पांय मारून पयस उडोवंक सोदतात.

इतले मजगतीं, कोणय ताचे नदरेक पडटकीर तो ताचें नांव घेवन 'आसपास' म्हणून नळकुटी / कट्टेक हात वा पांय लायता. (चित्र.नं. २)

जाका तो पयलीं पळोवन 'आसपास' म्हणून नळकुटी / कट्टेक पांय लायता ताचेर दुसरो डाव वता. डाव आयिल्ल्या गड्यान ल्हिपिल्ल्या गड्याक पळोवन नांव घेवन 'आसपास' म्हणून धांवत वचून नळकुटी / कट्टेक पांय लावचे पयलीं हेर खंयच्याय गड्यान पांय मारून ती उडयली जाल्यार पयलीं आशिल्लो ताचेरच परत डाव येता. असो हो ' आसपास' खेळ खेळटात..



* ल्हिपपाखातीर दिसनासारखी सुवात



# ३. बडयांनी

ह्या खेळांक दोग आनी चडांत चड कितलेय गडे वांटो घेतात.

**साहित्य :** दरेका गड्याकडेन ल्हानशी एक बडी सुमार कमर भर लांब आसता.

**खेळपाची पध्दत:** हो खेळ खेळूंक सूरूवात करतना पयली १०, २०, ३० ते १०० मेरेन एकेक गड्याचेर मेजतात. १०० आंकडो येता तो कडेक रावता. परत १०, २० ते १०० उरिल्ल्या गड्यांचेर मेजतात अशें करून निमाणें एक गडो उरता ताचेर डाव येता.




चित्र नं. ३

तो गडी स्वताची बडी एके कडेन उबो रावन दोनय हातांनी दोन कडानी आडवी माथ्यावयर धरता. दुसरो खंयचोय गडी स्वताचे बडयेन ताची ती बडी पयस वडयता आनी सगले आपआपल्यो बडयो सकल जमनीक खंयच्याय फातराक तेकोवन धरतात. (चित्र. नं ३) फातराक बडी तेंकिल्ली आसतनाच मदीं ते गडे ती बडी स्वताचे बडयेन आनीक पयस

उडोवपाचो यत्न करतात. डाव पडिल्लो गडी त्या गड्यांची बडी वयर उखलिल्ली आसतना तांकां आफुडपाचो यत्न करता. तांका आफुडटना तांची बडी फातराक तेंकूक जायना असो नेम आसा. फातराक बडी तेंकोवनाशिल्ल्या गड्याक ताणें हात लायत तर डाव त्या गड्याचेर वता. ना जाल्यार ना. अशें करून आफडून घेनासतना बडी पयस, पयस व्हरतात. ताजी बडी पयस उडयतना कोणाचीय बडी फातराक तेंकनासतना उरतली आनी ताणे ताका आफुडलें जाल्यार ताजो डाव सोंपता.

आनी उपरांत आफुडिल्या गड्याचेर डाव वता. परत सगले आदल्या जाग्यार येतात आनी ते वरीं तो नवो गडी दोनय हातांनी दोन कडांक बडयेक माथ्यावयर अचळय धरता आनी कोणाय दुसरो गडी बडी पयस वडयता. तो दुसऱ्या गड्यांची बडी फातराक तेंकनाशी पळोवन तांकां आफुडपाचो यत्न करप आनी स्वतावेलो डाव दुसऱ्याचेर घालपाचो यत्न करता हाकाच 'बडयांनी' म्हणटात.





# ४. [१]कोयंडो बाल

विस्तृत अशें खेळांमळ ह्या खेळा खातीर जाय पडटा.

**साहित्य :** कोयंडो आनी बाल[२]. (चित्र. नं. ४) ते भायर ल्हानशी बारीक सुमार फूटभर बडी जाय आसता.

**खेळपाची पध्दत :** ह्या खेळांत दोन प्रतिस्पर्धी पंगड आसतात. 'अ' आनी 'ब'. दरेक पंगडांत कितलेय गडी आसूं येता. सुरवेक [३]कुरूबावलो उडोवन पयलीं कोणें खेळपाचें तें थारायतात. जमनीर एक लांबोडकी सुमार ४ इंच लांब चीर काडटात. ताचेर आडवें 'बार' दवरतात. त्या चिरेच्या एका पोतासावन कोयंड्याचे माप घेवन जमनीर वळ मारतात आनी ताचेर आड कोयंडो दवरतात.

चित्र नं. ४




'अ' पंगडाचे गडी थंय सावन मुखार मात्शें पयस उबे रावतात. 'ब' पंगडाचो एक गडी ती बारकेली बडी ते चिरेंत बारा पोंदा धरता आनी जोरान 'बार' खोले करून मुखार वडयता. थंय 'अ' पंगडाचे गडी 'बार' जिखूंक राविल्ले आसतात. तांणी तें जिखलें जाल्यार खोले करपी गडी बाद जाता. मागीर 'ब' पंगडाचे दुसरे गडी तेचवरीं 'बार' खोले करतात. 'अ' पंगडाच्या गड्यानी बार जिखलें ना जाल्यार बार जंय पडटा, थंय रावन ते बारान तीर करून कोयंड्याक मोखतात. बार मोखलें जाल्यार तो गडी बाद जाता. 'ब' पंगडाचो तिसरो गडी खोले करता, 'अ' पंगडाच्या गड्यान बारान कोयंड्याक मोखप. कोयंड्याक बार मोखलें ना जाल्यार तो खेळपी गडी कोयंडो हातांत घेवन बाराचेर एके कडेन मारून बार वयर हुबयता, आनी ताका तवली[४] मारून पयस मोखून मारता. 'बार' दोनय वटेन मातशें

ताशिल्लें आंशिल्ल्यान कोयंड्यान कडेक मात्शें मारल्यार तें उसळटा. अशे तवली तीन खेपे मारून बार ते चिरे सावन पयस व्हरतात. तीन खे जातकीर बार जंय पडटा थंय सावन चिरेच्या पोतामेरेन कितले कोयं जातले ताचो अदमास करतात आनी ५, १०, १५, २० अशे संख्येन गू मागतात. मागल्यात तितले जातले अशे दिसले जाल्यार 'अ' पंगडाचे ग 'व्हर' म्हणून संमती दितात. नाजाल्यार कोयंडो घेवन तें अंतर मेजता मेजून तें अंतर उणें जावंक जायना. चड जाल्यार जाता. उणें जाल्यार त गडी बाद जाता.

तशेंच गडी बाराचेर तवली मारून खेळटना ताणें बाराक वयल्य वयर दोन खेपे कोयंड्यान तवली मारीत जाल्यार कोयंड्याच्या मापा मागताले त्या वांट्याचे बाराच्या मापान अदमास करून मागतात. तीन खे तवली मारली जाल्यार बाराच्या मापान दोन खेप मेजतात–अदमास क मागतात, आनी गूण वाडयतात. अशे साबार वेळार बाद जायनासतान मागिल्ले गूण मेळळे जाल्यार त्या गड्यांक खोले करून खेळपाची प आनीक एक संद मेळटा. ही संद तो वयर सांगिल्ल्या प्रमाण बाद जायमेरेन मेळटा. तशेंच तो बाराक तवली मारता तेन्नाय दुसऱ्या पंगडाच्या गड्यान बार जिखून घेतलें जाल्यार तो बाद जाता. ताका तीन खेपे तवली मारपाची संद मेळटा. तीनय खेपे ताची तवली लागली ना जाल्यारय तो बाद जाता.

अशे करून दरेक पंगडाच्या गड्यांचे सगळे गूण मेळयतात आनी कोणाचे चड जातात तें पळोवन त्या पंगडाक जैतिवंत थारायतात. हाकाच 'कोयंडो बार' खेळ म्हणटात.

१. ह्या खेळाक कांय कडेन कोयंउे बार, गोयंनो बार म्हणटात.

२. हीं सोंपेंपणी कोंड्याचे बडयेची करूं येतात. कोंड्याची सुमार फूटभर लांब बडी कापप. ताका 'कोयंडो' म्हणटात आनी सुमार ५ ते ६ इंच लांबायेच्या कुडक्याक दोनय वटेन मात्शें तासून बारीक करतात हाका 'बार' म्हणटात.

३. ओली सुकी, टॉस.

४. बाराचे कडेक मारून तें उसळावप आनी वयलेवयर कोयड्याक पयस मोखून मारप.

# ५. आऽऽट्टी

ह्या खेळांत दोग जाण आसल्यार चलता वा चड जाणांनीं हो खेळ खेळू येता.

**साहित्य :–** कोयंडो आनी बार/बाल जीं कोंड्याचे बडयेचीं करतात.

**खेळपाची पद्दत :–** दोग जाण आसल्यार 'कुरूबावलो वडोवन कोणे पयलीं खेळपाचें तें थारायतात. चड जाण आसल्यार १०, २० ते १०० मेरेन एक – एकल्याचेर मेजपाचे. १०० येता ताका कडेक काडून उरिल्ल्यांक परत १०, २० ते १०० मेजतात. निमाणे एकलो उरता तो पयलीं खेळाक सुरवात करता. सुरवात करतना ह्या वेळार सगले वांगडी एक कबलात करतात, कितले मेरेन गूण मेळोवपाचे ते. हातूंत १००, २००, ३०० वगैरे कितलेय दवरतात.

गडी बाल आनी कोयंडो वेगवेगळया हातांत धरता. बाल कोयंड्याचेर झेलून जमनीर वडयता आनी परत कोंयड्यान ताजे कडेर मारून वयर हुबोवन 'तवली मारतात. मागीर कुरू केल्ल्या जाग्यार सावन बाल पडलां थंय मेरेन कोयंड्यान लाब, दोन, तीन अशे मेजीत वता. बालाकडेन पावता मेरेन कितले कोंयडे जातात ते गूण धरतात. उपरांत बाल हालयनासतना परत तेचवरीं खेळतात, आनी कोंयड्यान मेजतात. जो मेरेन खेळटना बार कोयंड्याक लागपाचों चुकता तो मेरेन खेळटात. एकलो चुकतकीर डाव दुसऱ्या गड्याकडेन वता. तोवूय तेच पध्दतीन खेळटा आनी जण एकलो स्वतःचे गूण वाडयता.

जमनीर वडइल्लें बाल खेळटना खंच्याय गड्यान बालाक दोन खेपे तवली माल्ली जाल्यार बालाच्या मापान अदमास करतात आनी त्या प्रमाण ५, १०, १५ च्या क्रमान हेर वांगड्याकडेन मागतात. आनी ताणीं 'व्हर' म्हणसर वाट पळयतात. तीन खेपे वयल्या वयर तवली मारल्यार बालाच्या मापान दोन खेपे अदमास करून मागतात. ह्या वेळार हेर गड्यांक ताणे

मागिल्ले चड दिसत जाल्यार बाल घेवन मेजून पळयतात. सारखे जाले तर बरें, नाजाल्यार त्या गड्याचो डाव बाद जाता सारखे जाल्यार तो परत मुखार खेळटा.

सुरवेक आदीं थारायिल्ली गुणांची मोख सादतकीर दरेक गडी खेळपाचें बंद करता. जो निमाणे उरता ताजेर डाव पडलो अशें धरतात. उपरांत दरेक जैतिवंत गडी ६/६ तरांनी बाल पयस मोखून मारतां. तांका नावां दिल्यांत त्या प्रमाण क्रमान मारतात.

१) खोजे :– खोजें म्हळयार कोयंडो एके वटेन मुठींत उबो धरतात. मूठीर कोयंड्याक तेकोवन बाल दवरतात, बार वयर हुबोवन कोयंड्यान तवली मारतात.

२) पाव :– बाल खंच्याय पायांच्या चपक्याचेर दवरून मातशें वयले वयर हुबयतात आनी कोयंड्यान तवली मारून पयस मोखून मारतात .

३) गोडा :– दाव्या हाताचें निमाणें आनी दुसरे बोट सरळ करतात, उरिल्ली बोटां दोडून हात ओमथो धरतात. सरळ आशिल्या बोटांचेर बाल दवरतात. तें वयर हुबोवन आनी कोंयड्यान तवली मारून पयस मोखून मारतात हाका गोडा म्हणटात.

४) काला :– मळबा वटेन पळयत तकली उदारी करतात. बाल नाकार आनी दोळयांचे मदीं दवरतात. तकली ओमथी करतासतना बाल सकल पडटा तेन्नां कोंयड्यान ताका तवली मारून पयस मोखून मारतात. हाका 'काला' म्हणटात.

५) बुच्चे :– दाव्या हाताचो लांबोडको पोसो उदारो धरतात. ताजेर बाल दवरतात. तें मातशें वयले वयर हुबोवन आनी कोंयड्यान तवली मारून पयस मोखतात. हाका 'बुच्चे' म्हणटात.

६) झील :– खोजे मारतना धरतात तेचवरी बाल मुठीर आडवें भितल्ले वटयां धरतात. वयले वयर हुबोवन कोंयड्यान तवली मारून पयस

मोखतात, हाका झील म्हणटात.

ह्या सः तरेन दरेक गडी एका फाटल्यान एक मारुन बाल पयस मोखता. बाल जंय पडटा थंय सावन दुसरें मारपाक सुरवात करतात. जर गड्याची खंचीय तवली लागुना जाल्यार ताका फुडें खेळपाक मेळना. उपरांत दुसरो गडी बाल जंय पडटा थंयच्यान मुखार खेळटा.

हे तरेन खेळून निमाणे बाल जंय पडटा थंय सावन तें हातांत धरून डाव पडिल्लो गडी धावत मूळ जाग्यार येता. धावतना तोंडान मोट्यान आSSट्टीSS म्हणटा. हो सूर मदीं खंयच सोडप ना. सूर मदीं सोडीत जाल्यार हेर वांगडी थंयच्यान परत एक फावट वेल्या तरेन खेळून बाल पयस भोखतात. हे खेपे फकत पांच तरांनी तवली मारतात. दुसरे खेपे त्या गड्याच्यान आSSटटीSS व्हरूंक जायना जाल्यार मागीर चार तरांनी तवली मारून बाल पयस मोखतात. अशे इल्लें इल्ले उणे करतात आनी ताका थोडो आदार केल्या सारखें करतात. पूण चड करून इतली पाळी येना. तो गडी आSSटटीSS रोखडीच पावयता. ह्याच खेळाक आSSटटी म्हणटात.



१. ओली सुकी, टॉस.

२. बालाचे कडेक मारप आनी वयर उसळतकीर कोयंड्यान पयस मोखून मारप.



# ६. [१]लंगडी –I

हो खेळ चडसो चलयांनी खेळपाचो. चल्यानीय खेळू येता. ह्या खेळाक साहित्य कायं लागना.

**खेळपाची पध्दत :** खेळ सुरू करचे पयली एक वर्तुळ काडटात खेळपाक जितले गडी आसात तांचे दोन गट करतात. 'अ' आनी 'ब' दोगांनीय कुरूबावलो[२] उडोवन कोणें पयलीं लंगडी घालची तें थारायतात (चित्र. नं. ५)

चित्र नं. ५



'ब' पंगडाचे तीन गडी वर्तुळांत भितर वतात 'अ' गटाचो वांगडी लंगडी घालून तांका हात लावपाचो (आफुडपाचो) यत्न करता. 'ब' गटाचे वांगडी पयस वतात. पूण वर्तुळाच्या शिमेक पांय लागचो ना हाची जतनाय घेतात. शिमेक पांय लागत जाल्यार तो गडी बाद जाता. तशेच जाका लंगडी घालपी 'अ' चो गडी हात लायता तो बाद जाता. बाद जाल्लो वर्तुळाभायर वता. वर्तुळांत भितर आशिल्ल्या तिगांकय आफडून बाद करतकूच तांचे उरिल्ल्या गड्यापैकीं तीग जाण वर्तुळांत वतात. तांकांय तेच पध्दतीन बाद करतात.

लंगडी घालपी गडी खरशेलो वा ताचो पांय जमनीक तेकलो

जाल्यार तो दुसऱ्या गड्याच्या हातार हात दिवन खेळ पास करता. खेळ पास करून घेता तो गडी भितर वर्तुळांत वचून लंगडी घालून 'ब' च्या गड्यांक आदलेच पध्दतीन आफडून बाद करता. अशे करून लंगडी घालून 'ब' चे सगळे गडी बाद जाले जाल्यार खेळ 'ब' पंगडाचेर पडलो जर 'अ' चे सगले वांगडी लंगडी घालून खर्शेले आनी 'ब' चे गडी बाद जावपाचे उरले तर 'अ' चेर डाव पडलो अशें समजतात.

उपरांत हेच रितीन परत खेळटात. म्हळयार 'ब' पंगड लंगडी घालता आनी 'अ' पंगडाचे तीन/ तीन गडी वर्तुळांत धांवतात. हाकाच 'लंगडी' म्हणटात.



१. उबो रावन एक पांय अर्दो दोडून दुसऱ्या एका पायान चलता वा धावतात ताका लंगडी म्हणटात.

२. ओली सुकी, टॉस.

# ७. लंगडी[1] – II

ह्या खेळांत उण्यांत उणें दोग जाण आसतात आनी चडांत चड कितलेय जाण आसूं येता. होवूय खेळ चडसो चलयोच खेळटात. चले खेळना अशें मात ना. ह्या खेळाक खेळपाचीं सादनां कायंच लागनांत. सामको सोंपो असो हो खेळ आसा.

**खेळपाची पध्दत** : दोग जाण आसल्यार [2]कुरुबावलो उडोवन कोणें पयलीं लंगडी घालतलो तें थारायतात. चड जाण आसल्यार 'आपटी, धोपटी, खावचें, पान, घालगो, बेबी, म्हजें, नांव, आ, पो, जिंगा, पो, तेरी, मेरी, पो' अशें करून दरेका गड्याचेर मेजतात. शेवटाक जाचेर 'पो' येता ताणें कडेक रावता. उरिल्ल्यांचेर परत तेच पध्दतीन मेजतात आनी दरेक खेपे जाचेर पो येता तो कडेक रावता. अशें करून निमाणो एक गडी उरता ताणें लंगडी घालता. (चित्र. नं. ६)

चित्र नं. ६



जमनीर एक वर्तुळ काडटात चड गडी आसल्यार व्हडलें वर्तुळ काडटात नाजाल्यार ल्हान. सगले त्या वर्तुळांत रावतात. जो निमाणो गडो उरिल्लो तो लंगडी घालून वर्तुळांत हेर गड्यांक आफुडपाक वता. तो पयलीं जाका आफुडटा ताचेर लंगडी घालपाची पाळी येता.

पयलीं लंगडी घातिल्ली तो पांय जमनीक तेंकोवन हेरांबराबर धावता.

लंगडी घालप्या कडल्यान आफडून घेनासतना त्या वर्तुळांभितरच ताका चुकोवन धांवप हातूंत चलाखी आसा. जर खंयच्याय वांगड्यांचो पांय वर्तुळाचे शिमेक लागत जाल्यार ताका लंगडी घालची पडटा.

हे तरेन हो 'लंगडी' खेळ कितलोय वेळ खेळून खेळाची मजा घेतात.



१. उबे रावन एक पांय अर्दो दोडून दुसऱ्या पायान चलतात वा धावतात.

२. ओली सुकी, टॉस.



# ८. धांवचेल्यांनी

पुर्विल्ले जे खेळ आसात ते खेळटना दोब्रादीन फायदो करून दिव
आसात. पयलो फायदो म्हळयार खेळपी भुरग्यांक ते खेळ खेळटना जाव
उमेद आनी दुसरो फायदो त्या खेळावरवीं भुरग्यांक जावपी व्यायाम. असो
दोब्राद फायद्याचो खेळ आसा धांवचेल्यांनी. हो खेळ आंगणांत खेळटा
नाजाल्यार ह्या खेळा खातीर एक थारावीक सुवात आंखून घेतात आनी थं
हो खेळ खेळटात. ह्या खेळाक कसलींच सादनां लागनांत. वांगडी उण्यांत
उणें दोग आनी चडांत चड कितलेय आसतात.

**खेळपाची पध्दत** : जितले खेळपी गडी आसतात ते सगले वांटकुळे
उबे रावतात आनी 'राम, राय, साय, सुटयो' अशें म्हणटात. म्हणटना
दरेकलो स्वताचे दोनय हात वयर सकल तालार हालयता. म्हळयार 'राम' हें
उतर म्हणटना हात वयर वचून सकल हाडटा. अशे प्रत्येक उतराक करतात.
हें पळोवपाक सोबीत दिसता आनी खेळटल्यांक उमेद जाता.

चित्र नं. ७



निमाणें उतर 'सुटयो' म्हणटना दोनय हांतानी थापटां वाजयल्यावरी
हात सामकार मेटतात. हात मेटतना थोडे एक हात आरतो वा परतो धरतात.
म्हणटकीच थोड्यांचे हात आरते जातले वा थोड्यांचे परते. ह्या वेळार ज्या
कोणाचो हात सगल्यांपरस दुसरे तरेन आसता (म्हळयार आरतो वा परतो)

ो पयलीं सुट्टा. तो कडेक रावता, उरिल्ले परत 'राम, राय, साय, सुटयो' म्हणून हांत मेटतात परत तसोच कोणय आसल्यार कडेक वता.

अशें करून निमाणो एकलो उरता ताचेर डाव येता. उपरांत दुसरो खंचोय गडी डाव आशिल्या गड्याच्या हाताचेर आपल्या हातान थापटां वाजयत म्हणटा 'आट, पाट, चंदनाचो पाट, पाटार बसूंक तो पळय तुजो मामा येता' (म्हणून वयर मळबाक बोट दाखयता तो गडी वयर पळयता) आनी मुखार म्हणटा 'धर म्हजी फाट' आनी धांवत वचून हेर वांगड्यांक मेळटा. डाव आयिल्लो गडी उपरांत सगल्यांच्या फाटल्यान तांकां आफुडपाक धांवता. सगले वांगडी आंखिल्ल्या जाग्याभितर रावन धांवतात. भायर वचत जाल्यार ताजेर डाव येता. तशेंच डाव पडिल्ल्यान खंयच्याय वांगड्याक हात लायतकीच त्या वांगड्याचेर डाव वता. (चित्र. नं. ७) तो मागीर हेरांक धरपाक धांवता.

डाव पडिल्लो वांगड्यांक धरपाक धांवता. आतां तो हात लायतलो इतल्यांत फुडें धांवपी वांगडी बसता आनी डाव पडिल्लो ताजे तकलेर हात लावन ताका चावी करता. ह्या चावी केल्ल्या वांगड्याक हेर खंयच्याय वांगड्यान तकलेक हात लायले बगर उठूंक मेळना. म्हळयार तकलेक हात लावन चावी काडूंक जाय. नाजाल्यार ताणें तसोच बसून उरता. अशें करून डाव पडिल्लो गडी सगल्या वांगड्यांक बसोवन चावी करता, कोणच एकामेकांची चावी काडूंक पावलो ना जाल्यार, जाका पयलीं चावी घातिल्ली ताचेर डाव वता. मागीर तो उठून हेरांक धरता तशेंच हेर वांगडी उटटात आनी धांवतात.

असो हो 'धावचेल्यांनी' खेळ खेळांबराबर शरिराक जावपी व्यायामाक लागून खुब उपेगी आसा.



# १. गड्ड्यांनी

आदल्या तेंपार रिपीरिपी करून बारीक पावस पडटालो. त्या वेळा हो गड्ड्यांचो' खेळ खेळटाले. ह्या खेळाक दोन वांगडी आनी चडांत च कितलेय जाण आसूं येतात.

**साहित्य** : हो खेळ खेळपी दरेका खेळगड्या/वांगड्याकडे जायते 'गड्डे आसचे पडटात. जे बाजारांत सोपेंपणी मेळटात.




चित्र नं. ८

**खेळपाची पध्दत** : हो खेळ खेळूंक सुरवात करचे पयली मुखा वणत वा असोच उंचवटो आशिल्लो कसलोय आडसर आशिल्ले सुवाते 'मील' काडटात. वणत/आडसर आसता थंय सावन सुमार दोन फुटा आडवी एक वळ मारतात. तेच वळीक समांतर आडवी आनीक एक वळ मारतात, जी 'शीम' आसता. ती सुमार धा फुट पयस आसता. जितले गड्डे खेळपाचे आसातात तो दरेकलो स्वताचो एक/एक गड्डो शिमेर रावन मिलाकडेन वडयता. जण एकलो स्वताचो गड्डो खंयचो तो याद धरता. कारण मिलाचे चड लागीं जाचो गड्डो आसता ताका पयलीं खेळपाची संद मेळटा. तेच पध्दतीन दुसरो पयसुल्लो तो दुसरो, तिसरो, चौथो अशे खेळटात. तशेंच कोणाचोय गड्डो मिलांत पडलो जाल्यार दुबाव नासतना तो पयलीं खेळटा. उपरांत डावाक कितले गड्डे घालपाचें तें थारायतात, देखीक १, २, ३, अशे कितलेय. पयली उडयिल्लो तो गड्डो धरून डावाक गड्डे घालतात. (चित्र. नं. ८)

उपरांत ते सगले एकठांय हातांत घेवन पयली आशिल्लो तो शिमेर रावन सगळे गड्डे मिलाकडेन वडयता. ते आदीं पयलीं मिलाकडेन उडयिल्ले सगळे गड्डे क्रमान पुंजायता. डावांतल्या गड्ड्यां भायर एक गड्डो वेगळो कोणाय कडेन आसल्यार ताचो उपेग मोखपा खातीर करतात. तसो गड्डो ना जाल्यार मिलाकडेन उडयिल्ल्या गड्ड्यामदलो खंयचो एक गड्डो दुसरो गडी काडून पयल्या वांगड्याच्या हातांत मोखूंक दिता आनी खंयच्या गड्ड्याक मोखपाचें तें ताका दाखयता. गडी सांगिल्ल्या त्या गड्ड्याक मोखता. जर ताणें त्याच गड्ड्याक मोखित जाल्यार डाव तो जिखता...... सगळे गड्डे ताका मेळटात.

पुण मोखतना सांगिल्लो गड्डो सोडून हेर खंयच्याय गड्ड्याक ताचो गड्डो आपटत तर तो पागाचो म्हणून आनी एक गड्डो डावाक घालता तेचवरी सांगिल्ल्या गड्ड्याक मोखलो, आनी तो वचून दुसऱ्या खंयच्याय गड्ड्याक आपटलो तरय 'पाग' जाता. एक गड्डो डावांत घालतात. हेर खंयच्याय गड्ड्याक आपटनासतना सांगिल्ल्या गड्ड्याक मोखूनच डाव व्हरतात.

त्शेंच सगळे गड्डे मिलाकडेन वडयतकीर जो गड्डो मिलांत पडटा तो गड्डो त्या वांगड्यांक मेळटा. शिमेर रावन गड्डे मिलाकडेन उडयतना मारिल्ली दोन फुटांची वळ हुपून गड्डे भायर वचूंक फावना तसो एक गड्डो भायर वचत जाल्यार 'एकी' जाता. तो परत सगळे गड्डे पुंजावन शिमेर रावन मिलाकडे वडयता. दुसरे फावट गड्डो भायर (शिमेभायर) पडत तर 'दोकी' जाता. तो आनीक एक निमाणी खेळपाची संद घेता. तिसरे खेपे गड्डो शिमे भायर वचत जाल्यार 'तिकी' जाता आनी ताची खेळपाची संद वता. तेच बराबर एकेचे खेपे एक, दोन वा तीन गड्डे भायर पडल्यारय एकी, दोकी, तिकी जाता. आनी त्या त्या प्रमाण ते गडी खेळटात.

मिलाकडेन उडयतकीर केन्नाय दोन गड्डे तेंकून पडटात, जाल्यार दुसरो गडी एक गड्डो दोन बोटांचे अंतर दवरून कडेक काडटा आनी चड

करून सकले वटेन आशिल्या गड्ड्याक मोखपाक सांगतात. म्हणटकीर मोखतना आपसूक मोखिल्लो गड्डो वचून मुखावेल्या गड्ड्याक आपटता आनी 'पाग' जाता आनी वांगड्याक आनीक एका गड्ड्याचो तालांव पडटा. एक गड्डो डावांत घालचो पडटा. सांगिल्लो गड्डो हेर खंयच्याय गड्ड्यांक आपटनासतना मोखतकीर डाव ताका मेळटा. सगळे गड्डे तो व्हरता. परत आदले वरी एक/एक गड्डो मिलाकडेन वडयतात आनी नव्यान खेळाक सुरवात करतात.

प्रा खेळांत नेम मोखपाक हुशार आसता तो जैतवंत जाता.



१. व्हडल्या बोरांयेदे शिमाटाचे वा प्लास्टर ऑफ पेरीसाचे वांटकुळे गुळे.

२. ह्या गड्याच्या आकारा येदें वर्तुळ.

३. गड्याक सांगिल्या गडड्या भायर दुसऱ्या गडड्याक मोखिल्लो गड्डो आपटता तेन्ना 'पाग' जालो म्हणटात.

# १०. थू बावीस

गड्ड्यांचो हो दुसरे तरेचो एक खेळ. ह्या खेळांत दोग जाण धरून कितलेय वांगडी खेळटात.

**साहित्य :** हो खेळ खेळपी दरेका गड्याकडेन स्वताचो एक/एक गड्डो आसता.

**खेळपाची पध्दत :** खेळपाचे सुवातेर/आंगणांत मदीं एक 'मील'[१] (वर्तुळ) गड्ड्याच्या आकाराचें करतात मिला सावन सुमार धायेक फुट पयस शीम काडटात. त्या शिमेर रावन दरेकलो आपआपलो गड्डो मिलांत उडोवपाचो यत्न करता. सोंपेपणीं मिलांत गड्डो पडना. आनी सुरवेकच पडलो जाल्यार त्या वांगड्याचें 'मील एकवीस' आंकडो धरतात. सगल्यांचे गड्डे मिलाकडेन उडोवन जातकीर हो (मिलांत गड्डो पडिल्ल्या) गडी बाविसावो 'पेडो'[२] खंयच्याय गड्ड्याक मारता, म्हणटकीर ताचो डाव सोंपता आनी तो पयलो जैतवंत थारता.

चित्र नं. ९




'पेणो' म्हळयार एका गड्यान जमनीर आशिल्ल्या दुसऱ्या गड्ड्याक मोखप. जितले वांगडी आसात तितल्यांनीय मिलाकडेन गड्डे

उडयतकीर जो कोण मिलाचे चड लागीं आसा तो पयलीं खेळटा. मिलांत पडिल्लो पयलीं खेळून 'पेंडो' मारून जैतवंत जाता. मिलाच्या दुसरो लागीं पडिल्ल्या गड्ड्याचो गडी दुसरो खेळटा हीच पद्दत तिसरो, चवथो आनी मुखार चालू दवरतात. सुरवेक मिलांत गड्डो पडिल्लो तो सोडून हेर सगले गड्ड्यांनी क्रमान पयलीं मिलांत गड्डो घालून 'लाब' (म्हळयार एक) मेजतात. आनी 'दोन' 'पेंडो' मारतात.

उपरांत कशेय खेळ्टात. देखीक ताका परत, परत पेंडो मारपाची संद मेळटा जाल्यार एक एक आंकडो मेजीत मारतात, जो मेरेन ताचो पेंडो चुकना तो मेरेन तशेंच मदीं 'मील' लागीं पडल्यार मील भरून परत पेंडो मारतात. खंयचोय खेळपी गडी जेन्ना पेंडो मारूंक वा मील भरूंक (मिलांत गड्डो उडोवंक) चुकता तेन्ना दुसऱ्या गड्ड्याक संद मेळटा. (चित्र नं. ९)

अशे एक सारके क्रमान संख्या मेजीत सोळावो पेंडो मारतात. सोळावें 'मील' भरीनात. सोळा पेंडो, सतरा मील अशे उपरांत एक पेंडो, एक मील करून संख्या मेजतात. ज्युस्त २१ वें मील येता आनी बावीसावो पेंडो. तो मारतना 'थू बावीस' म्हणटात आनी मारतात. जो गडी हो २२ वो पेंडो मारता तो जैतवंत जाता. तो स्वताचो गड्डो काडून कडेक रावता, आनी आनीक खेळगडे खेळपाचें आसतात तांची वाट पळयता. अशें एक एक करून सगळे वांगडी जैतवंत जातात निमाणें एकलो उरता. ताचेर हार पडता. जैतवंत गडी ताचो गड्डो मिलाकडेन सावन, वेगवेगळे तरेन पेंडो मारून पयस व्हरतात. तो गडी (हार पडिल्ल्या) उपरांत तो गड्डो वेगवेगळे तरेन धुकलून परत मील भरता. तेन्नाच ताची हार सोंपता.

१) सुरवेक पयलीं दरेकलो जैतवंत एक पांय वयर काडून धोंपराचेर गड्डो धरून हारिल्ल्याच्या गड्ड्यार पेंडो मारता आनी गड्डो पयस वडयता. हो पेंडो सोंपेपणी लागना. जेन्ना हे तरेन पेंडो मारतात तेन्ना हारिल्लो गडी हाताची मुठ करता. मुठी सकट हात ओमथो धरून ते मुठीन गड्डो धुकलून मिलांत घालता.

२) डाव्या हातांत गड्डो धरून उजव्या हाताचो आंगठो जमनीक तेंकोवन दोन बोटांनी पेंडो मारीत जाल्यार हार पडिल्लो पयस गेल्लो ताचो गड्डो हाताचीं बोटां पालथीं जमनीक तेंकोवन, आंगठो उबो धरून आंगठ्या कडल्या बोटाक गड्डो तेकोवन धुकलून मील भरता.

३) तांणी: सरळ गड्डो हातांत धरून पेंडो माल्लो जाल्यार हारिल्लो गडी सरळ गड्डो हातांत धरून मील भरता आनी हार सोंपयता.

उपरांत जाय जाल्यार सगले मेळून खेळ नव्यान सुरू करतात. ह्याच खेळाक 'थू बावीस' अशे म्हणटात.



१. गडड्याच्या आकाराचो जमनीक बुराक मारतात, ताका मील म्हणटात.

२. गडड्यान गड्याक मोखतकीर पेंडो माल्लो म्हणटात.

# ११. खांब्यांनी

हो खेळ घरांत तसोच घराभायर खेळटात. जशी सोय जाता तेव
खेळपाचों. ह्या खेळाक खांबे जाय पडटात. हे खांबे घरांत घराचे धरता
नाच जाल्यार घरांत मेकळी सुवात आसल्यार दरेक कोनसो खांब्याच
जाग्यार उपेगांत हाडटात. भायर आंगणांत वा हेर कडेन कसल्याय निमता
माटोव बीं घातल्यार सोंपेंपणी खांबे धरूंक मेळटात. ह्या खेळांत उण्यात उ
तीन वांगडी आनी दोन खांबे आसता आनी चडांत चड जितले खांबे मेळटा
ताचेपरस एक वांगडी चड घेतात. खांबे लागीं लागीं म्हळयार उण्यांत उ
सुमार ४/५ मिटर अंतरार आसल्यार बरे पडटा.

चित्र नं. १०



खेळपाची पध्दत : खांबे चार आसल्यार पांच वांगडी एक जावन हो खेळ खेळटात. सगले सुरवेक एके कडेन वांटकुळे उबे रावतात आनी म्हणटात, 'आको माको, तेल, माको, तेलकाराचो डबो फुटलो, तेल गे तेल' आनी सगले एका बराबर धांवत वचून एक – एक मेळटा तो खांबो धरतात. जाका खांबो धरपाक मेळना ताचेर डाव वता. हो गडी मदीं उबो रावता आनी खांब्यांक धरिल्ले एकामेकांचें खांबे बदलीत रावतात. मदीं मदीं 'आको माको तेल माको तेलकाराचो डबो फुटलो तेल गे तेल' अशे म्हणत ह्या खांब्याकडल्यान त्या खांब्याक, धरीत खेळटात.(चित्र. नं. १०)

हेवटेन तेवटेन खांबे धरूंक वतना थोडोवेळ एक खांबो मेकळो उरता, तेन्ना मदीं आशिल्लो गडी तो रिकामो खांबो धरता. मागीर जो गडी खांब्या विरयत उरता ताणें मदीं रावन परत मेकळो खांबो सोदीत रावता. हे तरेन मदीं उरता तो गडी डबो फुटून गळिल्लें तेल पुंजावंक भोवतल्या सारखो भोंवत रावता, आनी खेळाची मजा घेतात. ह्याच खेळाक 'खांब्यानी' म्हणटात.





# १२. 'कुटूऽऽऱ्यो

ह्या खेळांत दोग जाण धरून चडांत चड कितलेय वांगडी आसतात. तशेच हो खेळ खंयसरूय खेळटात.

**साहित्य :** ह्या खेळाक कसल्याच साहित्याची गरज लागना. म्हणून आदल्या काळार ल्हान भुरगीं हो खेळ खेळप चड पसंत करतालीं.

**खेळपाची पध्दत :** खेळपाक जितले जाण आसात ते सगले वांगडी वांटकुळे रावतात. एकलो १०, २०, ३० ते १०० मेरेन जण एकल्याचेर मेजता. जाचेर १०० येता ताका कडेक काडटा. परत १०, २०, ३० मेजतात. अशें करून सगळे वांगडी सोपतात आनी निमाणो एकलो उरता, ताचेर डाव येता. हेरां मदलो एकलो डाव पडिल्ल्याच्या फाटल्यान रावन आनी दोनय हातांनी ताचे दोळे बंद करून धरता. हेर सगले वेगवेगळे कडेक ल्हिपूंक वतात. सगले जळामळा ल्हिपतकीर थंयच्यानच 'कुटूऽऽऱ्यो' अशें मोट्यान म्हणटात. ते बराबर दोळे बंद करून धरिल्लो ल्हिपूंक वता. तो वेळ मेरेन डाव पडिल्लो ताका फाट करून दोळे धापून रावता. ल्हिपूंक गेल्लो जेन्ना 'कुटूऽऽऱ्यो' म्हणटा तेन्ना तो जणएकल्याक सोदूंक वता.

तो जाका पयली सोदून काडटा तेन्ना तो त्या वांगड्यांचे नांव घेवन मुखार 'टीपो' अशें मोट्यान म्हणटा तशेंच तो खंय ल्हिपला तेंवूय सांगतां. म्हणटकीर डाव नाव घेतिल्ल्याचेर वता. तो ल्हिपिल्लो जागो सांगपाचें कारण म्हळयार खुबदां वांगडी ओगीच खंयच्याय वांगड्यांचें नांव घेवन 'टीपो' म्हणटात. आनी नांव घेतिल्ल्या वांगड्यांक ताणें आपणांक पळयलां काय ना म्हणून कळना आनी तो ल्हिपिल्ले कडच्यान भायर येता. असल्या फटींगपणा खातीर सोदून काडिल्लो वांगडी खंय आशिल्लो तें सांगपाची सत्ती डाव पडिल्ल्या वांगड्याचेर घालतात.

उपरांत मागीर नांव घेतिल्ल्या वांगड्याचेर डाव वता, आदीं डाव पडिल्लो फाटल्यान रावन ताच्या दोळयांर हात धरून दोळे धांपता आनी आदलेवरी निमाणे तो ल्हिपूंक वचून 'कुटूऽऽऱ्यो' म्हणटा. ते बरबर हो नवो गडी सगल्यांक सोदपाक वता. ताणें एकल्याक धरून ताचें नांव घेवन 'टिपो' म्हणटकीर डाव ताचेर वता. अशी ही सांखळ चालूच उरता. आनी खेळाची उमेद भागयता. ह्या खेळाक 'कुटूऱ्यांनी' म्हणटात.



१. ह्या खेळाक कांय कडेन टीपो वा आसपासय म्हणटात.

# १३. बाटली काडप

व्यायामा बरबर थोडो बुध्दीचो उपेग केल्यार जैत पयस आसना हे दाखोवपी हो खेळ आसा. हो खेळ खेळपी खेळगडे समान वयाचे आसतात ल्हान आनी व्हड पिरायेचे एक बरबर हो खेळ खेळत जाल्यार व्हड पिरायेचे खेळगडे ल्हान पिरायेच्या खेळगड्याचेर सोपेपणी मात करतात म्हणून सम–समान वयाच्या खेळगड्यांचो पंगड करून हो खेळ खेळटात. हो खेळ खेळूंक कमीत – कमी ३ खेळगडे आनी चड आसल्यार ३/३ जाणांच्या पंगडान आसतात म्हणटकीर हो खेळ खेळप सोपें आनी बरें जाता.

**साहित्य :–** ह्या खेळाक एक घटमूट अशी दोरी जाय. आनी तीन एका सारख्यो रिकाम्यो बाटल्यो जाय पडटात.

चित्र नं. ११




**खेळपाची पध्दत :–** ल्हानशा जाग्यार वा आंगणांत हो खेळ खेळूं येता. स ते सात फूट अंतराचे एक वर्तुळ मदीं आंगणांत काडटात. दोरी घेवन ताज्या दोनूय पोतांक गांठ मारतात. ही गांठ मारतकीर दोरयेचे वर्तुळ तयार जाता. जमनीर आखिल्ल्या वर्तुळा परस दोरयेचें वर्तुळ चोंय वाटांनी सुमार एक फूट ल्हान आसता. आखिल्या वर्तुळा भायर सुमार एक फूट (पयस) त्रिकोणान तिनय रिकाम्यो बाटल्यो दवरतात (चित्र नं. ११)

खेळांत चड वांगडी आसल्यार समान वयाचे ३/३ जाणांचे पंगड करतात, सुरवेक पयल्या तीन जाणांच्यो पंगड वर्तुळांत मदीं उबे रावतो. उपरांत दोरयेचें वर्तुळ तों लागीं दिवन दरेकल्याक दोरये भितर रावंक सांगतातं. दोरी फाटीक तेकोवन तिगय दोनय हातांनी तिका धरतात. इतलें जातकीर एक दोन तिन म्हणून खेळ सुरू करतात, ते बरबर तिगूंय वांगडी वर्तुळांत रावनच फाटल्यान दवरिल्ली बाटली काडतात. जो पयलीं बाटली काडटा तो त्या पंगडातल्यान जैतिवंत जाता.

उपरांत तीग जाणांचो दुसरो पंगड हेच पध्दतीन खेळटा आनी उपरांत तिसरो पंगड ह्या तिनय पंगडातलो जैतिवंत. उपरांत एक पंगड करून परत खेळटात, आनी निमाण्या जैतिवंताची निवड करतात.

खेळ पळयल्यार सामको सोपो दिसता. पूण खेळटना बाटली काडूंक जी खटपट जाता ती कोणांक चड फोर्स/ताकद आनी थोडीशी युक्ती आसा ताजें दर्शन घडयता. आनी त्या खेळगड्याक जैतिवंत करता.





# १४. मीट मिटोऱ्यो

दायज्यां कडल्यान चालंत आइल्या आदल्या खेळां फाटल्यान घडणुको, व्यायाम वा हेर कसलो ना कसलो तर्क संगत आसूंक जाय अशें दिसता. हो एक संशोधनाचो विशय थारूं येता ही वेगळी गजाल.

असोच एक खेळ म्हळयार ''मीट मिटोऱ्यो''. ह्या खेळांत उण्यात उणे तीन/तीन (स) वांगडी आसतात. चडांत चड कितलेय आसूं येता. चड वांगडी आसल्यार खेळामळार मारतात त्यो वळी/शिमो वाडोवन खेळ खेळटात.

**साहित्य :–** ह्या खेळाक कसल्याच साहित्याची गरज लागना. पूण चित्रांत दाखयल्या प्रमाण खेळामळार वा आंगणांत वळी/शिमो आखून घेतात. ह्यो शिमो आखतना मदीं एक/एक चौकोन तयार जाता. त्या चौकोनांत मदीं उबो रावलो जाल्यार दुसरो गडो शिमेर रावन हात लावंक पावचो ना इतलें अंतर त्या चौकोनांत मदीं आसता. वांगडी चड आसले जाल्यार आडव्यो वळी/शिमो वाडयतात. (चित्र नं. १२)

**खेळपाची पध्दत :–** सुरवेक जमिल्या सगल्या वांगडयांचे दोन पंगड करतात. त्या खातीर दोग जाण मुखेली जावन एके कडेन उबे रावतात. उपरांत हेर वांगडी दोग–दोगांची जोडी करतात आनी त्या मुखेल्यांक कळनासतना स्वतःक फळांची, फुलांची वा हेर कसलींय नावां घेतात आनी गडीं घालून तांच्या म्हऱ्यात येवन म्हणटात, ''मात मात हूSSर्यो''. दोगय मुखेली म्हणटात.''हूSSर्यो'' गडी घातिल्ले विचारतात, ''कोणाक जाय दसण, काय गुलाब'', ही नावां ताणीं स्वतःक दवरूक घेतिल्लीं आसतात.

मुखेली स्वतःक जाय तें मागतात. ते प्रमाण ते वांगडी ताजे वटेन वचून उबे रावतात. उपरांत दुसरी जोडी गडी घालून येता आनी तशेंच

विचारून मागीर जाका जो मेळटा तशे तो त्या मुखेल्यावटेन वचून रावता. हे तरेन दोन सारखे पंगड तयार जातात. मागीर कुरूबावलो वडोवन खंच्या पंगडान मिठागर राखपाचें आनी खंच्या पंगडान मीठ हाडपाचें तें थारायतात. देखीक अ पंगड ब पंगड.

'अ' पंगडाचे वांगडी गडी नं १, २, ३ आसता त्या शिमेर रावतात आनी 'ब' च्या वांगड्यांक मिठागरांत वचपासावन आडायतात. चड वांगडी आसल्यार आडव्यो शिमो आनीक वाडयतात. मदले शिमेर एक गडी न. ४ रावता जाका सगल्या शिमांचेर वचपाची मेकळीक आसता. गडी आशिल्ल्या शिमेवेल्यान लेगित वचून विरूध्द पंगडाच्या गड्यांक तो हात लावंक शकता. सुरवेक खेळ सुरू करतना 'ब' पंगड वाडो आसा थंय रावता. अ चे वांगडी आपआपल्या शिमेर रावतात. मदल्या शिमेर एकलो रावता आनी सुरवेक 'ब' पंगडाच्या खंच्याय गड्याच्या हाताक हात लावन नीट मीठागर आसा थंय मेरेन वचून परतता. उपरांत तो खंच्याय शिमेर कसोय वता आनी येता.

चित्र नं १२




तो हाताक हात लावन मिठागराकडेन वचूंक वतकीर 'ब' चे गडी मिठागराकडेन वचूंक वतात. वतना 'अ' चो शिमेर राविल्लो प्रत्येक गडी तांका आडायता. तांचे कडल्यान आफडून घेनासतना ते मिठागराकडेन वचूंक वतात. आफडून घेनासतना 'ब' पंगडाचो खंचोय गडी मिठागराकडेन पावतकीर ताणे 'मीठ–मीठ' म्हणीत परत वाडो आसा थंय येता. येतना प्रत्येक चौकटींत मीठ पावोवनच वता. ताजो गडी खंच्याय चौकटींत आसत

जाल्यार तोवय तें मीठ घेवन मुखार वाड्यार वचूंक वता. जेन्नां तांचो खंचोय गडी मीठ वाड्यार पावयता तेन्ना तो पंगड जैतिवंत जाता.

मीठ सगल्या चौकटींत पावयनासतनां खंचोय गडी मुखार वचत जाल्यार तांचो डाव कुसता. ह्या वेळार दुसरो पंगड डाव खेळटा. एक पंगड जैतिवंत जातकीर वा तांचो डाव कुसतकीर खंच्याय गड्यान एका गड्याक मारतकीर (हात लायतकीर) दुसरो पंगड तांच्या जाग्यार रावन खेळटा. हेवरीं खेळ आलटून पालटून खेळटात. हाकाच "मीट मिटोऱ्यो" म्हणटात.



१. एकामेकाच्या खांद्यार फाटल्यान हात घालप.

२. ओली सुकी, टॉस.



# १५. सोडयांनी

ताकद पारखुवपी हो आनी एक खेळ. सामको सोपो असो हो खेळ आसा. ह्या खेळाक जितले वांगडी चड, तितली मजा चड.

**साहित्य :–** ह्या खेळाक साहित्य तशें कांय लागना. पूण खेळामळार एक आडवी लांबचे लांब वळ मारून दवरूंक जाय.

**खेळपाची पध्दत :–** मीट मिटोऱ्यो खेळा वरीं ह्याय खेळांत दोन पंगड आसतात. अ, आनी ब. दोन सम – समान पंगड करपाक तीच पध्दत वापरतात. म्हळयार दोनय मुखेली एके कडेन रावतात. खेळपी वांगडी दोग, दोगांची जोडी करतात. दोगय जाण वेगवेगळीं कसलींय नावां घेतात. 'गडी घालून मुखेल्या म्हऱ्यांत वचून म्हणटात," मात मात हु SS यों" मुखेली एकबरबर म्हणटात, "हूSS यों".

चित्र नं. १३




परत गडी घातिल्ले विचारतात , "कोणाक जाय वड, काय कोणाक जाय पिपळ" अशीं कसलींय नावां घेतात दोनूय मुखेली स्वतःक जाय ते मागतात. त्या प्रमाण तें तें नांव घेतिल्लो गडी त्या मुखेल्याच्या वटेन वचून

उबो रावता. अशे दरेका जोडयेन विचारून सारखे दोन पंगड अ आनी ब करतात. खेळ सुरू करचे पयलीं कुरूबावलो वडयतात. त्या प्रमाण एक पंगड (अ) आडवी मारिल्ले शिमेर/वळीर उबे रावतात. दुसरो पंगड (ब) वळीचे एके वटेन रावन दुसरे वटेन शीम हुपून वचपाचो यत्न करता. (चित्र नं. १३)

ब पंगडाचे गडी शीम हुपतात तेन्नांच तांकां अ चे गड्यान हात लावंक पळयतात जाल्यार तो बाद जाता. ते बरबर तांचो डाव वता. ताणी मागीर शिमेर रावपाचे आसा म्हळयार ब पंगड शीमेर रावता आनी अ पंगड शीम हुपपाचो यत्न करप. एकदां शीम हुपून वतकीर गड्याक हात लायल्यार बाद जायना. तो शिमेवेल्या दूसऱ्या पंगडाच्या गड्यांक आडावन स्वतःच्या गड्यांक शीम हुपूंक मदत करता. तेचवरीं शिमेवेले गडे शीम हुपून गेल्या दुसऱ्या पंगडाच्या गड्यांक ओडून परत आदले वटेन हाडटात. जर ते अशे हाडूंक यशस्वी जाले जाल्यार तांचो डाव बाद जाता म्हळयार डाव कुसता. डाव कुसूंक विरोधी पंगडाचे गडी शीम हुपपाचे उरपाक जाय. तेन्नांच डाव कुसूंक शकता.

खंच्याय पंगडाचे सगले वांगडी जेन्नां शीम हुपून दुसरे वटेन पावतात तेन्नां ते परत आदले वटेन हात लावन घेनासतना येवपाचो यत्न करतात. जर तांचो एकलो लेगीत गडो परत आदले वटेन वतकीर ते जैतिवंत जातात.

उपरांत खेळ आशिल्लो तसो परतो खेळटात म्हळयार शिमेर राविल्ले खेळटात आनी खेळटले शिमेर रावतात. हाकाच 'सोडयांनी'' म्हणटात.



१. एकामेकांच्या खांदार फाटल्यान हात घालप.



# १६. कोंब्या झूंज[१]

उण्यांत उणे दोग जाण आनी चडांत चड कितलेय जाण हो खेळ खेळटात. घरच्या आंगणांत किंवा खेळामळार हो खेळ खेळूं येता. ह्या खेळाक कसलेंच साहित्य लागना.

**खेळपाची पध्दत :–** आंगणांत वा खेळामळार जंय हो खेळ खेळपाचो थंय एक वर्तुळ काडटात. खेळगड्यांचे संख्येप्रमाण वर्तुळाचो आकार दवरतात. कमी खेळगडे आसल्यार ल्हान आनी चड जाण आसल्यार मातशें व्हड वर्तुळ काडटात. (चित्र नं. १४)

चित्र नं १४




जितले वांगडी आसतात तितलेय वर्तुळांत रावतात आनी एक पांय अर्दो दोडून लंगडी घालतात. दोडिल्या पायांक स्वतःचे हात फाटल्यान व्हरून घट्ट धरतात. सगले ह्या रितीन उबे रावतकीर एक दोन तिन म्हणून खेळ सुरू करतात. खेळटना कोणचे दोनय पांय जमनीक तेकतात, वा कोणेय शिमेक पांय लायलो जाल्यार तो गडी बाद जाता. खेळ सुरू करतकीर दरेकलो स्वतःचे भूज मारून एकामेकाक धुकलतात आनी पांय

जमनीक तेकोवंक लायतात.

जो दोनय पांय जमनीक तेकयता तो बाद जाता. तो वर्तुळा भायर वता. तशेंच लंगडी घालून लेगित वर्तुळाचे शिमेक पांय लागत जाल्यारय तो वांगडी बाद जाता. तोवय भायर वता. खंचोय खेळगडी लंगडी घालून एके कडेन वग्गी उबो रावना. कोंब्यावरी उडयो मारीत रावतात वा एकामेकाक भूज मारून धुकलतात. हे तरेन सगले खेळगडे बाद जातात जो निमाणे मेरेन लंगडी घालून वर्तुळांत उरता तो जैतिवंत थारता.

ह्या खेळांत सगल्या शरिराक भरपूर व्यायाम मेळटा. तशेंच शरिराचो तोल एका पांयार सांबाळपाचोय सराव जाता. अशा ह्या शारिरीक व्यायाम घडोवपी खेळाक "कोंब्या झगडीं" (Cock fight) म्हणटात.



१. दोन कोंबे जशे झुजतात ते तरेन खेळपाचो हो खेळ आशिल्यान हाका 'कोंब्या झूंज' अशें म्हणटात.

# १७.इत्ती इत्ती पाणी, गोड गोड राणी (नुस्तें जाळ)

खेळटां खेळटां पदां म्हणपाक शिकोवपी हो खेळ आसा. ह्या खेळाक जितले चड खेळगडे आसतात तितले खेळपाक बरें म्हणून चडांत चड खेळगड्यांक घेवन हो खेळ खेळचो.

**साहित्य :–** कसल्याच साहित्या विरयत खेळपाचो हो खेळ आसा.

**खेळपाची पध्दत :–** हो खेळ जाळ आनी नुस्ती अशी कल्पना करून खेळटात. म्हणून ह्या खेळाक 'नुस्तें जाळ' अशेंय म्हणटात मास्तर/रेफरीन (Instructor) ह्या खेळाचीं सुत्रां सांबाळटा. दोगां खेळगडी दोनय हात धरून एकामेका सामकार हात वयर काडून उबे रावतात. हें तांचे जाळ आसता. हेर सगले खेळगडे नुस्ती जातात. मास्तर एक पिल्लूक मारून खेळ सुरू करता. खेळ सुरू जातना सगले खेळगडे एके वळीन एका फाटल्यान एक चलतात. दोगां जाणांनीं हात वयर काडून धरिल्ले आसतात तांच्या मदल्यान प्रत्येकजण वतात. अशे एके वळीन वतासतना सगले फुडले गीत म्हणटात "इती इती पाणी, गोड गोड राणी" म्हळ्यार उदाक कमी कमी जाता म्हणून नुस्त्यांनीं बेगिबेगीन वचप. (चित्र नं. १५)



चित्र नं. १५

खेळगडे अशे शिस्तीन गीत म्हणीत वतना मास्तरान मदींच दोनदां पिल्लूक मारता. पिल्लूक वाजता तशी चलत वचपी सगले खेळगडे त्याच जाग्यार थीर रावतात. हात वयर धरील्ले गडे हात रूंद करून सकल

हाडटात. म्हळयार जाळ घालतात. ह्या वेळार हातापोंदच्यान वचपी खेळगडे आपसूक जाळांत सापडटात. म्हळयार हात वयर करून राविल्या दोगांय गड्यांच्या हातांमदीं पावतात. जाळांत सापडिल्ले गडी उपरांत कडेक वचून बसतात.

मास्तर परत एक पिल्लुक मारून खेळ चालू करता. खेळगडे गीत म्हणीत परत आदलेवरी वतात. वतां वतां थोड्या वेळान मास्तर आदल्यावरी दोनदां पिल्लूक मारता. ते बरबर चलपी खेळगडे पाविल्या जाग्यार थंयच्या थंय थांबतात. हात वयर काडिल्ले खेळगडे हात रूंद करून सकल घेतात. आनी हातांमदीं येवपी खेळगड्यांक बाद करतात. ते वचून आदल्या गड्यालागीं बसतात. थोड्या वेळान मास्तर हात वयर करून राविल्या भुरग्यांक बदलता. म्हळयार नव्या खेळगड्याक जाळ करून हात वयर धरून उबे दवरता. हे तरेन सगल्या खेळगड्यांक जाळ आनी नुस्ती जावपाची संद दिवन खेळयतात, आनी खेळ चालू दवरतात. जाका म्हणटात 'इती इती पाणी, गोड गोड राणी' वा 'नुस्ते जाळ'.



१. कांय वाढारांनी हो खेळ मास्तराविरेतय खेळटात.

# १८. वेटांनीं[१]

हो खेळ ल्हान भुरग्यांक खूब आवडटा.

**साहित्य :–** ह्या खेळाक साहित्य म्हूण फकत एक वेट (हात रूमाल) जाय पडटा.

**खेळपाची पध्दत :–** जमिल्या सगल्या भुरग्यांक एकठांय दवरतात पयलीं डाव घेवपी भुरगो सोदून काडपाक १०, २०, ३० अशे १०० मरेन आकडे एक –एकल्याचेर घालून मेजतात. जाचेर १०० येता ताका कडेक काडटात. उरिल्यांचेर परत तेच पध्दतीन मेजतात अशें करून एका – एका भुरग्याक कडेक काडून निमाणे एकलो उरता ताजेर डाव येता. उपरांत सगले भुरगे आंगणांत वांटकुळें बसतात डाव आइल्लो त्या वर्तुळा भायर रावता. वेट घेवन तो भुरगो बशिल्या भुरग्यां फाटल्यान भोवता. बशिल्लीं भुरगी एके चालींत ताळयो वाजयतात.

चित्र नं. १६



लेस घेवन भोवपी भुरगो मदींच वेट खंच्याय भुरग्याच्या नकयटां फाटल्यान दवरता. (चित्र नं. १६) आनी तसोच फुडें भोवताडो काडटा. वेट दवरिल्लो त्या भुरग्याक कळत जाल्यार तो काडून तो त्या आदल्या भुरग्या फाटल्यान वचून ताजेर त्या वेटान फाटीर मारता. तो तसोच घुवन जेन्नां ह्या वेट काडिल्या भुरग्याच्या रिकाम्या जाग्यार पावता तेन्नां ताणे थंय बसता.

हो भुरगो उपरांत तेचवरी भोवताडो काडटा आनी मदींच खंच्या भुरग्याच्या फाटल्यान वेट दवरता. तो घुवन परत ये म्हणसर वेट दवरिल्ल्या त्या भुरग्याक कळूना जाल्यार होच तो वेट काडून त्या भुरग्याचे फाटी मारता. ते बरबर तो भुरगो उठून वांटकुळो धावता. आनी परत घुवन स्वतःच्या रिकाम्या जाग्यार बसता. उपरांत हो भुरगो वेट खंच्याय भुरग्या फाटल्यान दवरता. वेट दवरिल्ल्या भुरग्याक कळत जाल्यार तो वेट काडून त्या भुरग्या फाटल्यान ताका लेसान मारपाक वता. अशें करून खेळ चालू दवरतात.

जो वेळ मेरेन भुरगी बेजारनांत तो वेळ मेरेन हो खेळ खेळूं येता. ह्या खेळाक ''वेटांचो खेळ'' म्हणटात.



१. लेसाचो त्रिकोण करून दोनय पोतांक धरून पिळ घालतकीर लेसाक बरो पिळ पडटा. उपरांत दोनय पोतां एक करतकीर आपशींच पीळ पडटा ताका वेट म्हणटात.



# पारंपारीक खेळ

# व

# घरात बसून खेळण्याचे खेळ



# १९. [१]ताबलां –I

हो घरांत खेळपाचो खेळ. चड करून पावसाच्या दिसांनी भायर घोग्यांनी पावस पडटा, अशा वेळार घरांत चवकेर / वासरेर / पडवेर हो खेळ खेळटात. हो खेळ दोग प्रतिस्पर्धी खेळूंक शकतात. तशेंच चडूय जाण खेळूं येतात. फकत सगल्यांक वाटकुळे बसूंक जागो आसूंक जाय. जमनीर बसून हो खेळ खेळटात. चडांत चड तीन वा चार जाण आसप बरें.

**साहित्य :** (१) सांगताक दाखयल्ले प्रमाण आखिल्लो बारा कुडांचो १२ / ४ खेळाचो पट. (२) १२ फातरांचे आनी १२ शिंपयांचे[२] कुडके. (३) चार ताबलां.

**खेळपाची पध्दत :** सुरवेक दोनूय पंगड स्वताच्यो घुल्यो (फातर, शिंपयो) दोनूय कडांच्या कुडींनी ( चित्र नं १७ ) दाखयल्या प्रमाण लायतात. उपरांत [३]कुरूबावलो उडोवन कोणें पयलीं खेळपाचें तें थारायतात खेळटना ताबलां जमनीर उबीं तेंकोवन मातशीं वयर उडोवन हातांत जिखतात अशें दोन–तीन खेपो करून तीं जमनीर वडयतात. पडटना तीं विस्कळून आरतीं–परतीं पडटात. हातूंत (१) एक ताब्ल उदारें आनी हेर सगलीं उमथीं पडली जाल्यार 'ताब्ल' पडलें म्हणटात. (२) दोन उदारीं आनी दोन उमथीं पडलीं जाल्यार 'दोगां' पडलीं म्हणटात. (३) तीन उदारीं, एक उमथें पडलें जाल्यार 'तिगां' पडलीं म्हणटात. (४) चारय उदारीं पडल्यार 'आठ' जातात. (५) चारय उमथीं पडल्यार बारा म्हणटात, आनी ते ते संख्ये प्रमाण स्वताची घूल खेळांमळार फुडें व्हरतात वा प्रतिस्पर्ध्याची घूल मारतात.

खेळाची सरवात करूंक दोनूय पंगडांक पयलीं 'ताब्ल' पडूंकच जाय. ताचें पयलीं, दोगां, तिगां, आठ, बारा पडल्यार उपेग जायना.... खेळूंक मेळना... (घुलो हालोवंक मेळना) 'ताब्ल' पडटकीरच घूल सुरवेक हालयतात. तशेंच खेळांत केन्नाय मदीं 'ताब्ल' पडत जाल्यार त्या गड्याक आनीक एक खेप खेळपाची संद मेळटा. 'ताब्ल' म्हळयार दोन अर्दी.... दोन कुडां..... हें एक एक कुड दोन घुलो हालोवन खेळूक मेळटा. एक पंगड एके वटेन तर

दुसरो दुसरे वटेन ताब्ल पडटकीर घूल भायर खेळांमळार हाडटात. विरूध्द पंगडाची घूल तेंकून आशिल्ल्या कुडांत आसत आनी 'ताब्ल' पडत तर ती मारून फुडें वतात. नाजाल्यार 'दोगां', 'तिगां' पडल्यार हेर खंयचीय घूल हालोवन खेळटात. हेर वेळार मदीं प्रतिस्पर्धी पंगडाची घूल येत तर मारतात.

चित्र नं. १७




फकत ताब्लां पडल्यांत ते संख्येच्या निमाणें ती आसूंक जाय. देखीक दोन कुडां पयस आसल्यार दोगां पडूंक जाय, तेच वरीं, तीन, आठ वा बारा. प्रतिस्पर्ध्याची घूल दोन कुडां फुडें आसा आनी पडल्यांत 'तिगां' तर ती घूल हालोवंक मेळना. दुसरे खंयचेय घूलयेन 'तिगां' खेळटात. प्रतिस्पर्धी पंगडान मारी नासतना घूल खेळांमळाच्यो दोन रांको खेळळी जाल्यार ती घूल पिकोवंक घालतात.... तिका 'मुडी' म्हणटात. ती प्रतिस्पर्ध्याच्या राबित्या कुडांत दवरतात. जेन्ना सगल्यो घुलो मारून सोंपतात तेन्ना ही पिकिल्ली घूल (मुडी) फुडें व्हरतात.

खेळाक एक खेप सुरवात करून घुलो खेळपाची दरेका पंगडान दिशा धरतकीर उपरांत ती दुसरेवटेन वळोवंक मेळना. प्रतिस्पध्यांच्यो घुलो कोण पयलीं सोंपयता तो जिखता. ह्या खेळांत एका बराबर कितल्योय घुलो भायर खेळामळार हाडून खेळटात. तशोच प्रतिस्पर्ध्याच्यो मारतात....नेमाक धरून. हे तरेन 'तांबलांचो हो खेळ खेळटात.



१. कोंड्याच्यो सुमार ६ ते १० इंच कापटे सारक्यो पातळ बडयो. हांची फाटलीं फुडली अशीं दोन आंगा दिसतात.

२. तिसऱ्यांचें भायलें कवच.

३. ओलीं सुकी, टॉस.

# २०. ताबलां – II

ताबलांचो हो दुसरो खेळ आसा. आदल्या खेळावरवीं घरांतले पडवेर वा वासरेर हो खेळ खेळूं येता. कमीत कमी दोन आनी चडांत चड कितलेय खेळगडे हो खेळ खेळटात. फकत सगल्यांक वांटकुळे बसूंक जागो आसूंक जाय.

**साहित्य :–** ह्या खेळाक ताबलां जाय पडटात. (चित्र नं. १८)

**खेळपाची पध्दत :–** सुरवेक दरेकलो चारय ताबलां घेवन एक / दोन फावट हातांत जिखून जमनीर वडयता. ज्या कोणाचें एकच ताब्ल उदारें आनी हेर सगलीं उमथीं पडटात ताका पयलीं खेळपाची संद दितात. अशें पडिल्याक 'ताब्ल' म्हणटात.

चित्र नं. १८



'ताब्ल' पडून जातकीर दोगां पडूंक जाय. उपरांत तिगां, आठ आनी बारा पडटकीर तो गडी जैतिवंत जाता. १) 'दोगां' म्हटल्यार दोन ताबलां उमथीं आनी दोन उदारी. २) तीन उदारी आनी एक उमथें पडलें जाल्यार 'तिगां' पडलीं म्हणटात. ३) चारय उदारी पडल्यार 'आठ' म्हणटात. ४) चारय उमथीं पडल्यार 'बारा' म्हणटात. तीं पडटना क्रम हेच तरेन आसता.

पयलीं 'ताब्ल' पडटकीर दरेक खेळगडो डावाक सुरवात करता.

परांत दोगां वा तिगां पडटा तेन्ना डाव दुसऱ्या खेळगड्या कडेन दिता. ाब्ल, आठ, बारा पडत जाल्यार परत खेळपाचो चान्स मेळटा. 'दोगां' डटकीर दुसऱ्या कडेन गेल्लो डाव परत मेळटा तेन्ना 'तिगां' पडून क्रम रतात.

हेवरीं खेळून जाचे पयलीं 'ताब्ल' ते 'बारा' पडून जातात तो जेखता. अशें करून एक – एकलो जिखता आनी निमाणो उरता ताजेर हार पडटा. हे तरेन हो खेळ खेळटात जाका 'ताबलां' म्हणटात.



# २१. चारीपट

ताबलांवरी हो खेळ पावसाच्या दिसांनी चड खेळटात. आनी तो थोडोभोव ताबलावरीच खेळपाचो आसा. दोन वांगडी ह्या खेळाक पुरो जातात.

**साहित्य :** ह्या खेळाक सांगाताक दाखयला तेवरी पट पयलीं आंखून घेतात. दोन तरांच्यो ६/६ घुलो जाय आसतात. घुलो म्हणून शिपयांचें कुडके आनी बारीक बारीक फातर वेंचून येतात. (चित्र नं. १९)

**खेळपाची पध्दत :** खेळाक सुरवात करचे पयलीं घुलो सांगाताक पटाचेर दाखयिल्ल्या प्रमाण लावन घेतात आनी [२]कुरूबावलो उडोवन कोणे खेळाक पयलीं सुरूवात करची तें थारायतात. आनी ते प्रमाण १,२,३ करून खेळटात. प्रत्येक वांगडी स्वतःची खंयचीय घूल हालयता. स्वतःचे घुलये वेल्यानय तो वचूंक शकता. हालयता ती 'घुल' एक मेजतात, आनी ती सरळ मुखार व्हरून २, ३, अशे मेजून ३ आंकडो येता थंय दवरतात.

चित्र नं. १९




एकदां राबित्यांतल्यान घूल खेळांमळार व्हरतकीर ती फाटी परत स्वतःच्या राबित्यांत येना. पूण त्या पयलीं राबित्यांत जी कशीय आरती–परती वता दुसऱ्या वांगड्याची घुल सरळ रेशेंत तिसऱ्या जाग्यार आसत जाल्यार तिका मारतात म्हळ्यार स्वतःची घूल थंय दवरून ती

पटावेल्यान काडटात अशें करून जाच्यो घुलो पयलीं सोपतात ताचेर हार पडटा आनी दुसरो जैतवंत जाता. तशेंच खेळांमळार सावन प्रतिस्पर्ध्याच्या राबित्या घरांत वचूनय ताची घूल मारतात. मेजतना १, २, ३ हे आंकडे सरळ रेशेंत येवंक जाय. सरळ रेशेंत १, २, ३ मेळना, तशेच प्रतिस्पर्ध्याची घूल २ नंबरार येत जाल्यार ह्या वांगड्याक खेळूंक मेळना आनी २ नंबरावेली घूल मारूंकय मेळना. प्रतिस्पर्ध्यांचे घुलयेवेल्यान स्वतःची घूल मुखार व्हरूंक मेळना. फकत तिका मारूनच मुखार वतात. आनी तिका मारतलो जाल्यार ती ताच्या घुलये सावन सरळ रेशेंत ३ ऱ्या जाग्यार आसूंक जाय.

जेन्ना खंयच्याय गड्याची घुल स्वःताच्या राबित्यासावन प्रतिस्पर्ध्याच्या राबित्यांत न मरतां पावता तेन्ना तिका चड हक्क मेळटात. ती ताकदवान जाता. देखीक प्रतिस्पर्ध्याच्या राबित्यांतल्यान भायर सरतकीर ती ताचे सरळ रेंशेंत कितलेय पयस आशिल्ले प्रतिस्पर्ध्याचे घुलयेक मारता आनी ती फाटीं – फुडें चारय वटांनी कशीय वता. म्हणून तिका 'चारी' म्हणटात. प्रतिस्पर्ध्याची सादी घूल १, २, ३ ह्या नेमान तिका मारता. एकदां खेळ सोंपतकीर परत सुरू करतात वा दुसरो गडी खेळटा. रोखड्या रोखडो सोंपपी हो खेळ खेळटना मजा येता. ह्याच खेळाक 'चारीपट' अशें म्हणटात.



१. तिसऱ्यांचें भायलें कवच

२. ओली सुकीं, टॉस



# २२. दाम

बसून  खेळपाचो हो खेळ दोगा जाणा खातीर आसा.

**साहित्य :** ह्या खेळांत बुध्दीबळाचो पट उपेगांत हाडटात. ८ X ८ मेळून ६४ चौकोनी घरांचो एक पट आसता. दोनय खेळगड्यांक १६/१६ वेगवेगळयो वांटकुळयो दोन रंगाच्यो घुलो आसतात.

**खेळपाची रीत :** दोनय खेळगडे एकामेकां सामकार बसतात. मदीं हो पट दवरतात. दरेकलो आपआपले वटेन पटाच्या कडेच्या दोन रांगांनी घूलो लायता. ( चित्र नं. २०)

कुरूबावलो उडोवन कोणे खेळपाक पयलीं सुरवात करपाची तें थारायतात. प्रत्येक गडी दरेक खेपेक एक एक घर घूल मुखार व्हरता. प्रतिस्पर्ध्याची घूल तेंकून आशिल्ल्या घरांत आसल्यार तिका मारता. पूण ते खातीर ते घूलीच्या फाटलें घर रिकामें आसूंक जाय. कारण प्रतिस्पर्ध्याचे घूलयेक मारतलो जाल्यार तिका हुपची पडटा... आनी त्यां घरांत ही घूल दवरतात. हांगा एक जतनाय घेतात, प्रतिस्पर्धी तिका मारचो ना हाची ह्यो घूलो दाव्या उजव्यान कशो वतात तशेंच मारतात.. फाटीं मात येनात शकनात. अशें करून प्रतिस्पर्ध्याच्यो घूलो जो पयलीं मारून सोंपयता तो जिखता. खेळटना घूल मुखार, दाव्या, उजव्यान एकच घर वता. पूण मारतना मात दोन घरां वता. म्हळयार एक प्रतिस्पर्ध्याची आशिल्ले घूलयेंचें घर आनी एक तिचे फाटलें घर....जंय ही घूल दवरपाची आसता तें.... अशीं हीं दोन घरां.

मारूंक दिनासतना प्रतिस्पर्ध्या वटेनच्या निमाण्या घरांनी घूल पावता तेन्ना तिका 'दाम' म्हणटात. थंय पावतकच त्याच रंगाची तिचेर पयली मारिल्ली दुसरी एक घूल दवरतात. कारण तो 'दाम' म्हणून वळखूंक येवंक जाय. ह्या 'दाम' जाल्ले घूलयेक चड अधिकार मेळटात. ती एके रेशेंत

ह्या पोता सावन त्या पोतामेरेन खंयूय कशीय आडवी, उबी भोवंक शकता. जेणे करून ती आशिल्ले रेशेंत प्रतिस्पर्ध्याची घूल कितलेय पयस आसत जाल्यार तिका मारता. फकत ते घूलये फाटल्यान दामाक उडी मारून रावपाक घर रितें आसूंक जाय. चड घरां रितीं आसल्यार दाम जाय त्या घरांत रावता. पूण एक सादी घूल लेगीत ह्या दामाक आदल्या वयर सांगिल्ल्या नेमाप्रमाण मारता. मदीं प्रतिस्पर्धी पंगडाचेर बुध्दीबळ खेळासारखो 'चेकमेट' जावपाचो प्रसंग हाडटात. म्हळयार खंयचीय घूल हालोवंक मेळना. हालयली जाल्यार ती मारपाचो भंय आसता. तर केन्नां केन्ना घूल मारपाक दिवन खेळ जिखपात्री कळाशीय आसता. म्हणून हो खेळ बुध्दीबळा इतलोच तकलेक / बुध्दीक चालना दिवपी आसा.

चित्र नं. २०




केन्नां-केन्नां स्वताची एक घूल मारपाक दिवन प्रतिस्पर्ध्याच्यो दोन वा तीन घूलो एका बराबर मारपाची कळाशी खेळगड्याकडेन आसता. हाकाच प्रतिस्पर्ध्याचेर हल्लो करप म्हणटात. स्वताची घूल मारपाक सांगून प्रतिस्पर्ध्याच्यो दोन वा तीन घूलो मारतलो हें कळटकीच जर गड्यान एक घूल मारली ना जाल्यार दुसरो गडी ती घूल पटावेल्यान काडटा हाका " Over play" (देमायज) म्हणटात.

हे तरेन सरळ मारपाक सांगतात आनी उपरांत ताचे दोब्रादीन काडून घेवप ह्या खेळांत चलता. 'धरल्यार चाबता, सोडल्यार धांवता' अशी गत ह्या खेळांत करतात. जे वरवी एक वेगळीच खोस अणभवपाक मेळटा. बुध्दीबळाच्या बरोबरीन बुध्दीक चालना दिवपी / कस लावपी ह्या खेळाक 'दाम' म्हणटात.





# २३. [१]झिरक्यांनी– I

पावसा दिसांनी घरांत वासरेर / पडवेर / चौकेर बसून खेळपाचो हो खेळ आसा. उण्यात उणे दोन आनी चडांत चड कितलेय जाण हो खेळ खेळटात. चड करून चलयो हो खेळ खेळटात.

**साहित्य :–** ह्या खेळाक तशें साहित्य कांय लागना. भायर मेळटात ते फातर (सादारण गड्ड्यांच्या आकारा येदे) ह्या खेळांत उपेगांत हाडटात. गिमांत फातरांक चिखल लागिल्लो आसता तेच फातर पावसांत पावसाच्या उदकान धुवन नितळ निवळ जाल्ले आसतात. म्हणून हो खेळ पावसाच्या दिसांनी खेळटाले जावंक जाय.

चित्र नं. २१




**खेळपाची पध्दत :–** ह्या खेळांत डावाचे म्हूण पांच फातर आसतात आनी जितले वांगडी / खेळगडे आसतात तितले दरेकल्याचो एक वा तांका जाय तितले डावांत घालतात आनी खेळ खेळटात. खेळटना सगले वांगडी वाटकुळें बसतात. १०, २०, ३० ते १०० मेरेन मेजतात. जाचेर १०० आंकडो येता तो खेळाक सुरूवात करता. खेळ सुरू करतना गडी सगळे फातर

हातांत धरता. मात्शे वयर उडोवन तोच हात परतो (उंपडो) करता ताचेर फातर चडांत चड धरपाचो यत्न करता. उपरांत हाताचे फाटले वटेन उरिल्ले ते फातर परत मात्शे वयर उडोवन हातांत जिखून घेता. जितले चड फातर जिखता तितले बरें. हातांत जिखिल्ले फातर म्हन्यांत एके वटेन दवरता. तातूंतलो एक फातर परत हातांत घेता मात्सो वयर वडयता. तो सकल पडचे पयलीं त्याच हातान जमनीवेलो एक फातर हातांत काडटा आनी तो वयर उडयिल्लो फातर जिखता. दोनय फातर एकाच हातांत एक जातात. तांतलो एक आदल्या फातरांत दवरता आनी एक फातर परत तेच पद्दतीन वयर उडोवन उरिल्ले फातर एक / एक करून काडटा.

अशें करून जाता तितले फातर काडटा. फातर काडटना दुसरो फातर हालूंक जायना. तशेंच वयर उडयिल्लो फातर जमनीर पडूंक जायना. तशेच तो जमनीवेलो फातर काडिल्ल्या हातानच जिखूंक जाय. गडी खेळटना वयर उडयिल्लो फातर जिखूंक चुकत, वा ताचो हात लागून जमनीवेलो दुसरो फातर हालत जाल्यार ताचो डाव वता. उपरांत दुसरे गडी तेच पद्दतीन उरिल्ल्या फातरांनी खेळटात. आनी फातर काडटात. (चित्र नं. २१)

हें खेळप दिसता तितलें सोपें आसना. ताका सराव जाय पडटा. सगले फातर दरेका वांगड्यान खेळून काडटकीर निमाणे कांय उरना तेन्ना कोणाचे चड फातर जातात तो जिखता. उपरांत परत डाव सुरू करतात. हाका फातरांनी / झिरक्यांनी म्हणटात.



१. फातरांनीं

# २४. झिरक्यांनी – II

आदल्या तेपार पावसाच्या दिसांनीं भायर कामांक वचूंक मेळनाशिल्लें, ताका लागून वेळ पासार करपाखातीर फातरांचे / झिरक्यांचे वेगवेगळे खेळ खेळप जातालें. तातुंतलोच हो एक खेळ आसा.

हो खेळ घरांत वासरेर / पडवेर / चौकेर बसून खेळपाचो आसा. उण्यांत उणे दोन चडांत चड कितलेय जाण हो खेळ खेळूंक शकतात. चड करून चलयो हो खेळ खेळटालीं.

**साहित्य :–** ह्या खेळाक साहित्य म्हणून फकत पांच ल्हान ल्हान फातर जाय पडटात. हे फातर सादारण गडडयांच्या आकारा येदे आसतात. म्हळयार चड मोटे न्हय आनी चड बारीक न्हंय.

**खेळपाची पध्दत :–** ह्या खेळांत दोन धरून कितलेय वांगडी आसले तरय फातर मात पांचच आसतात.

चित्र नं. २२




सगले वांगडी वांटकुळे बसतात. दरेकल्याचेर १०, २० ते १०० आंकडे मेजतात. जाचेर १०० आकडो येता तो पयलीं खेळपाक सुरवात करता. तो पांचय फातर हातांत धरता आनी हळूच जमनीर वडयता. उपरांत पांचां मदलो खंचोय एक फातर दूसरो फातर हालय नासतना अचळय काडटा. तो

हातांत घेवन वयर वडयता आनी जमनीवेलो एक फातर काडून तो वेलो फातर त्याच हातांत जिखता. अशे करून जमनीवेले एक/एक करून चारय फातर चुकनासतना, दुसरों हालय नासतना आनी वेलो फातर जमनीर वडयनासतना काडटा.

मागीर आदले वरी पांचय फातर परत जमनीर वडयता परत एक फातर अचळय काडटा. हे खेपे तो फातर वयर वडोवन जमनीवेले एका बरबर दोन फातर काडून त्याच हातान वयलो फातर जिखता. तो फातर वयर वडोवन जमनीवेलो फातर काडटना हेर फातर हालूंक जायना वा वेलो फातर जिखपाक चुकूंक जायना. तशें जायत जाल्यार डाव दुसऱ्या गड्या कडेन वता. दोन फातर काडटना एकच हातांत आयल्यारय डाव वता. फुडले गडी तेच पध्दतीन खेळटात. म्हळयार पयलीं एक/एक फातर काडून उपरांत दोन/दोन. मागीर तीन/तीन, चार/चार अशे चारय तरांनीं पाच/पाच फावटीं फातर काडटात. (चित्र नं. २२)

सगल्यांनीं कमान खेळून जातकीर परत आदल्या गड्याचेर डाव येता तेन्ना तो कितल्या फातरांचेर बाद जाल्लो थंयच्यान फुडें खेळटा. हे तरेन चारय तरांनीं जाचें पयलीं खेळून जाता तो जिखता. ह्यावरी एक – एकलो जिखत वता आनी निमाणे हार एकल्याचेर पडटा.

उपरांत जाय जाल्यार परत आदलेवरी एक/एक फातर काडून खेळ खेळटात.



१. फातरांनी

# २५. झिरक्यांनी[१] – III

आदल्या तेपावेल्या एका – एका खेळाचेर बारीक साणेन नदर मारल्यार आमकां तातूंत जायतीं अप्रुपां भरिल्लीं पळोवंक मेळटात. फकत जाय आमचे मदीं पळोवपाची नदर आनी त्या खातीर फावसो वेळ.

बेकार साणेंत मन, विचार चोंयवटेन वता म्हणुनच आमच्या दायज्यांनीं वेगवेगळे खेळ तयार करून दवरल्यात. दरेका खेळांत वेगवेगळे आयाम लिपिल्ले आसत.... बेकार साणेचो वेळ पासार करपाखातीर असोच हो फातरांचो / झिरक्यांच्यो खेळ. ह्या खेळाक दोन धरून कितलेय वांगडी आसूं येतात.

**साहित्य :–** ह्या खेळाक साहित्य म्हणून पांच ल्हानशे फातर जाय. जे सादारण गड्ड्याच्या आकारा येदे आसतात.

**खेळपाची पध्दत :–** सुरवेक सगले वांगडी वांटकुळें बसतात. प्रत्येकाचेर १०, २०, ३० अशे घालून १०० मेजतात. जाचेर १०० येता ताका पयलीं खेळपाक दितात. उपरांत मागीर ताजेकडल्यान क्रमान दुसरे गडी खेळटात.

चित्र नं. २३



फातर

खेळटले गडी पांचय फातर उजव्या हातांत धरता. दावो हात पसरावन जमनीर ओमथो धरता. पांचय फातर हातावेल्यान अळंग सोडटात.

फातर हाताच्या चोंयवशीं पडटात. सगल्यासावन भायर आशिल्लो एक फातर काडटात. डावो हात तसोच धरतात. थोडे फातर दोन बोटांच्या खाचींत पडटात. जे बोटांच्या खाचिच्या भायर आसतले तांका खाचींत घालपा खातीर हातांत काडिल्लों फातर वयर वडयतात आनी ताच्या कडेक आशिल्ले एक–एक फातर धुकलून दाव्या हाताच्या बोटांचे खाचींत घालतात. वयर वडइल्लो फातर सकल पडचे पयलीं एक–एक फातर खाचींत घालतात. आनी वयलो फातर उजव्या हातांन जिखतात. हे फातर खाचींत घालूंक कितलेय खेपो फातर वयर वडोवचो पडटा. वयर वडइल्लो फातर जिखपाक चुकत जाल्यार ड.व दुसऱ्या गड्याकडेन वता.(चित्र नं.२३)

सगले चारय फातर बोटांचे खांचींत पावोवन जातकीर हात काडटात. हातांत आशिल्लो फातर परत वयर वडयतात आनी जमनीवेलो एक फातर काडून तो त्याच हातांन जिखतात. अशे करून चुकनासतना एक–एक करून चारय फातर काडून जातकीर आदल्या वरी दावो हात पालथो जमनीर दवरून पांचय फातर ताजेर अळंग सोडटात. आनी दावो हात काडटात. उपरांत पयस पडिल्लो एक फातर काडटात. तो वयर वडयतात आनी जमनीवेलो एक फातर, दुसरो हालयनासतना काडटात आनी त्याच हातान स्वतःच्या गळयाकडेन हात लावन वेलो फातर जिखतात. हें तरेन चारय फातर काडटत.

सुरवेक हें कठीण दिसता. पूण फातर मातसो चड वयर वडयल्यार जिखपाक फावसो वेळ मेळटा. तशेंच थोडो सरावय जाय पडटा. जो ह्या दोनय तरांनीं पडनांसतना पयलीं खेळटा तो जैतिवंत जाता. मदीं जिखपाक चुकत जाल्यार डाव दुसऱ्याकडें वता. परत आदल्या गड्याचेर डाव पावता तेन्ना ते तेच तरेन चारय फातर काडटात.

सगले वांगडी खेळून जातकीर....जिखतकीर....जो निमाणो उरता ताजेर डाव पडटा. उपरांत जाय जाल्यार खेळ परत सुरू करतात.



१. फातरांनी

# २६. कोंब्याक उदक घाल

हो एक सुंदर असो मजेशीर खेळ आसा. हो खेळ बसून खेळटात. ह्या खेळांत उण्यांत उणे दोग जाण आनी चडांत चड कितलेय वांगडी आसतात. तशेंच ह्या खेळाक कसलेच तरेच्या सादनाची वा साहित्याची गरज लागना.

**खेळपाची पध्दत :–** जितले वांगडी / खेळगडे आसतात ते सगले वांटकुळे लागीं बसतात. दरेकलो स्वतःचे हात सामकार जमनीर बोटां पसरावन ओमथे दवरता.

सगल्यांनीं बोटां पसरावन हात जमनीर दवरून जातकीर कोणय एकलो स्वतःचो एक हात जमनीवेलो काडून दरेकल्या वांगड्याचीं हातांचीं बोटा मेजता. ही बोटां मेजतना १, २, ३ अशे आंकडे मेजीना. त्या वाट्याचे .... आदू, गोदू, फिरंगी, च्चःरी, गणा अशें म्हणून मेजता. ज्या बोटार निमाणे उतर 'गणा' येता तो गडी हात तसोच दवरून फकत तेंच बोट दोडून धरता. उपरांत मुखार परत तेच पध्दतीन मेजीत रावतात, आनी एक, एक बोट दोडून धरपाक लायतात.

सगल्यांची बोटां मेजून जातकीर तो स्वतःचीं बोटां मेजता. एका हाताचीं जातकीर दुसरो हात जमनीर दवरून तीं मेजता. अशें करून एका, एका वांगड्याच्या हाताचीं सगलीं बोटां दोडून जातकीर तो हात काडटात. सगल्यांचे हात काडून जातकीर जाचो हात निमाणो उरता ताणे कोंब्याक उदक घालपाचें आसा. दरेका खेळगड्याच्या कोंब्याक उदक घालतात. एकल्याचें चुकतकीर दुसऱ्या कोंब्याक उदक घालतात. आता कोंबो आनी उदक कशें घालप तें पळोवया.

जाचे दोनय हात पयलीं काडून जातात तो पयलीं हाताचो कोंबो करता. कोंबो म्हळयार डाव्या हाताची मूठ करून किरंगळीच्या बोटावटेन जमनीर उबी धरतात, आनी आंगठो उबो करतात. हाका कोंबो म्हणटात. जाचेर डाव पडला...जो निमाणो उल्ला....तो दोनय हात एकामेकांक समांतर

पांयां पडिल्यासारखे मेटून त्या कोंब्याच्या वयर आडवे धारेन धरता,आनी एकेक हात फाटीं फुडें करता, म्हळयारच उदक घालता.

कोंबो केल्या गडी दुसऱ्या हातान उदक घालता हातांचेर हळूच थापट मारता. मारतना तें चुकूंक जायना. मारील्लें थापट ताज्या हाताक लागनासतना चुकलें जाल्यार ताजो डाव वता. दूसरो गडी हेच तरेन कोंबो करून थापट मारता.

ह्या वेळार दोगूय वांगडी हुशार रावतात. कारण थापट मारतलो तें चुकचेंना हाजी जतनाय घेता आनी उदक घालतलो थापट मारता तेन्नां हात कडेक काडून तें चुकोवपाचो यत्न करता. चड वेळ ताका हात कडेक काडूंक मेळना कारण उदक पडना जाल्यार कोंबो मरता आनी कोंब्याक मरूंक दिवपाक जायना. अशा ह्या खेळाक "कोंब्याक उदक घाल" म्हणटात.





# २७. [१]गडें [२]फाडें

हो खेळ उण्यांत उणे दोन आनी चडांत चड कितलेय जाण खेळटाता तशेंच हो खेळ खंयसरय खेळटात.

**साहित्य :–** ह्या खेळांक साहित्य तशें कांय लागना. सादे ल्हान ल्हान फातर घेतात. वा कसल्योय बारीक गुटयो वगैरे उपेगांत हाडटात.

**खेळपाची पध्दत :–** दोन वांगडी आसल्यार दोगूय एकामेका सामकार बसतात. जर खेळगडे चड आसले जाल्यार सगले वांटकुळे बसतात. प्रत्येक जाण स्वतःलागी फातर वा गुटयो कितें आसा– तें संख्येन एक सारखें घेतात. देखीक १०, १५, २० वगैरे. घड्याळाचेर टायम लावन खेळटात. खेळाच्या प्रत्येक रावंडाक ५/५ वा १०/१० मिनटां घेतात. घड्याळीच्या काट्याक पळोवन खेळ सुरू करतात.

खेळ सुरू करतना खंचोय एक गडी स्वतःच्या फातरांतले थोडे फातर हातांत दिसना सारखे धरतात दुसऱ्या खंच्याय खेळगड्या म्हऱ्यांत वचप आनी विचारता " गडे काय फाडे"? दुसरो गडी दोनांमदलें खंचेय एक सांगता. जर ताणे बरबर सांगले जाल्यार पयलो गडी हातांत आशिल्ले सगले फातर ताका दिवन वडयता. पूण जर ताणें सांगिल्ले चूक आसत जाल्यार ताज्या हातांत आसात तितलेच फातर/गुटयो दुसरो गडी ताका दिता. अशें खंचोय गडी कोणाय गड्यालागीं वचून 'गडें काय फाडें?" विचारून खेळटा.

बरबर ५ वा १० मिनटां जातकीर खेळ थांबयतात आनी दरेकल्याचे फातर/गुटयो मेजून पळयतात. सगल्यांत चड फातर/गुटयो जाचे लागीं जातात त्या गड्याक त्या डावाचो जैतिवंत थारायतात.

जर इतल्या मदीं खंच्याय गड्याचे फातर/गुटयो सोपले जाल्यार तो खेळांतल्यान भायर वता. उपरांत दुसऱ्या फेरयेंत ५/५ वा ३/३ मिनटां घेवन खेळ सुरू करतात. घेतिल्या वेळा उपरांत खेळ थांबोवन परत कोणांचे



चड जाल्यात ते पळयतात आनी दुसरो जैतिवंत वेचून काडटात.

उपरांत निमाणी फेरी ३ वा २ मिनटांची दवरतात आनी तिसरो जैतिवंत वेचून काडटात. अशे पयलो, दुसरो आनी तिसरो जैतिवंत काडटात वा पयलो जैतिवंत जातकीर खेळ सोपोवन तांका जैतिवंत घोशीत करतात.

दोनच खेळगडे आसल्यार तो सरळ एकामेका सामकार बसून बंद हातांनीं फातर/गुटयो धरून 'गडें काय फाडे' विचारून खेळटात. जाचेंकडेन शेवटाक चड गुटयो उरतात तो जैतिवंत थारता. ह्या खेळाक 'गडें फाडें' खेळ म्हणटात.



१. गडें म्हळ्यार १,३,५,७ ही संख्या

२. फाडें म्हळ्यार २,४,६,८ ही संख्या

# २८. दोरी वोड

खेळ म्हटल्यार व्यायाम, ताकद वा युक्ती हीं खंय ना खंय तातूंत आसताच. अशीच ताकद तपासून पळोवपाचो खेळ म्हळयार 'दोरी वोड' (Tug of war)

**साहित्य :–** ह्या खेळाक घटमुठ दोरी जाय पडटा. हो खेळ दोन धरून वीस मेरेन कितल्ये खेळगडे खेळटात. ताज्यानय चड खेळगडी आसल्यार जाता पूण चड गर्दी जातली म्हणून थारावीक गडी घेतात.

**खेळपाची पध्दत :–** दोरयेच्या मदेकात एक गांठ मारतात. दोरयेच्यो दोन बाजू जातात. गांठ मदीं धरून दोनय वटांनी २/२ मिटर सोडून दोरयेक कुरू करतात. हो खेळ जंय खेळटात त्या खेळामळार मदीं (चित्र नं. २४) वळ/शिम काडटात ताज्या दोनय वटांनी २/२ मिटर अंतराचेर आनीक दोन समांतर शिमो काडटात.

चित्र नं. २४




जितले वांगडी आसतले तांचे दोन पंगड करून दोनय वटांनी रावतात. दोरयेची मदली गांठ मदल्या शिमेर घेवन दोनय वटांतल्यान दोन पंगड दोरी धरून रावतात. दरेक पंगड २/२ मिटरार मारिल्या शिमेसावन पयस

रावतात. एक, दोन तीन म्हणटात आनी दोनय पंगड दोरी धरून वोडटात. जाचो फोर्स/ताकद चड तो पंगड त्या खेळांत जैतिवंत जाता.

ज्या पंगडाची ताकद चड तो दोरी वोडून प्रतिस्पर्धी पंगडाक मदल्या शिमे कडेन हाडटा. तांच्या पयल्या वांगड्याचो पांय मदल्या शिमेक लागतकीर ते हारतात आनी दुसरो पंगड जैतिवंत जाता.

हीच पंगडाची राविल्ली पध्दत बदलून आनी दोन खेपे हो खेळ खेळटात म्हळयार एकूण तीन खेपे. जो पंगड दोन खेपे जिखता ताका जैतिवंत थारायतात. दोन खेपे शेगीत एकच पंगड जिखत जाल्यार तिसरे फावट खेळपाची गरज आसना.

असो हो एकत्रीत ताकद लावन सामुहीक एकजूट दोखोवपी खेळ आसा. जाका "दोरी वोड" म्हणटात.





# २९. नमस्कार कसो आसा?

वेटांनी / 'लेस सोदप' खेळा वरीं होय एक खेळ आसा. जो जायत्या भुरग्यांनी आंगणांत वा खेळामळार खेळूं येता. ह्या खेळांत जितली चड भुरगीं तितलें बरें. कसलेच तरेचें साहित्य ह्या खेळाक लागना.

**खेळपाची पध्दत :–** सगली भुरगी एकठांय रावन १०, २०, ३० ते १०० मेरेन प्रत्येक भुरग्याचेर मेजतात. जाचेर १०० आकडो येता ताका कडेक काडटात. परत तशेच १०, २०, ३० मेजतात. १०० येता ताका कडेक काडून. निमाणो एक भुरगो उरता. त्या भुरग्याक सोडून बाकीची सगली वर्तुळ करून उबीं रावतात. वेगळो काडिलो भुरगो वर्तुळा भायर रावता. (चित्र नं. २५)



चित्र नं. २५

खेळ सुरू करतकीर तो भुरगो वर्तुळा भायल्यान चलत वता. मदीं तो खंच्याय एका भुरग्याक / खेळगड्याक हात लायता, आनी तसोच चलत रावता. हात लाइल्लो खेळगडो / भुरगो डाव पडिल्या त्या भुरग्याचे उलट दिकेन वर्तुळा भायल्यान वता. जंय दोगूय मेळटात थंय दोगूय एकामेकाक हात दितात. एकलो म्हणटा ''नमस्कार कसो आसा?'' दुसरो म्हणटा, ''बरो

आसा''. इतले जातकीर दोगूय परत एकामेकाच्या उलट दिकेन चलत वतात जाका पयलीं रिकामो जागो मेळटा तो त्या जाग्यार रावता. दुसरो तसोच मुखार वचून आनी खंच्याय खेळगड्याक/भुरग्याक हात लायता. हात लागता तो आदल्या वरी त्या खेळगड्याच्या/भुरग्याच्या उलट दिकेन वता. दोगूय मेळटात तेन्नां तशेंच ''नमस्कार कसो आसा?'' विचारतात. ''बरो आसा'' दुसरो सांगता आनी परत उलट दिकेन वचून कोणांक पयलीं रिकामो जागो मेळटा थंय रावता. भायर उरता तो तसोच मुखार वचून आनी खंच्याय भुरग्याक हात लायता.

हे तरेन खेळ खेळत रावतात. जाका म्हणटात, ''नमस्कार, कसो आसा?''





# ३०. स्वताचो गडी सोदप

चड खेळगडे जमतात तेन्ना हो खेळ खेळप बरें. सादारणशा आंगणांत ना जाल्यार खेळामळार हो खेळ खेळटात.

**साहित्य :–** ह्या खेळाक कसलेंच साहित्य / सादनां लागनांत.

**खेळपाची पध्दत :–** खेळ खेळपी सगले खेळगडी एका वर्तुळांत उबे रावतात आनी १, २ – १, २ अशे दरेकलो मेजता. ज्या ज्या खेळगड्याचेर दोन आकडो येता तो फाटल्यान वळनासतना दोन पावलां फाटीं वता. उपरांत एक पावल उजव्यान घालून उबे रावतात.



चित्र नं. २६

दोन नंबराचे सगले खेळगडे १ नंबर खेळगड्यांच्या बरबर फाटल्यान पावतात. १ नंबराचे खेळगडे आसा थंयच अर्द वर्तुळ घुवतात. दोनय गडे एक आनी दोन एकामेका मुखार तोंड करून उबे जातात. ह्या वेळार दोगूय एकामेकाचें नांव वगैरे विचारून वळख करून घेतात. ह्या वेळार सगल्या खेळगड्यांचीं मेळून दोन वर्तुळां जाता. भितल्लें एक नंबराच्या खेळगड्यांचें आनी भायलें दोन नंबराच्या खेळगड्यांचें. उपरांत सगले प्रत्येकाच्या उजव्या वटेन ९०° घुवतात. ते बरबर दरेका गडो

एकामेकाच्या फाटल्यान उबो जाता. दोनय वर्तुळांच्या खेळगड्यांचीं तोंडां एकमेकाच्या विरूध्द दिकेन जातत. (चित्र नं. २६)

मास्तर उपरांत एक खेप पिल्लूक मारता. तशे सगले खेळगडे स्वतःचें वर्तुळ सांबाळून एका फाटल्यान एक अशे वांटकुळे धावतात. एक नंबराचे भितल्या वर्तुळांतले खेळगडे उजवे वटेन धावतात आनी दोन नंबराचे भायल्या वर्तुळांचे खेळगडे दाव्या वटेन धावतात. मदींच मास्तर दोन रीप पिल्लूक वाजयता. ते बरबर सगले खेळगडे धावपाचें थांबोवन आपआपल्या दुसऱ्या वर्तुळाच्या गड्याक स्वतःचे वर्तुळ सोडीनासतना सोदतात. जाका, जाका गडी मेळटलो तो हातातं हात दिवन बसता. अशे करून सगले बसून जातनां बसपाक निमाणी जी जोडी उरता ताचेर हार पडटा. त्या जोडयेक शिक्षा म्हणून २ मिनटां विनोद सांगूक, गीत म्हणूक वा नाचूंक लायतात.

उपरांत परत वर्तुळां करून आदल्यावरी खेळ सुरू करप. ह्याच खेळाक ''स्वतःचो गडी सोदप'' म्हणटात.





# ३१. पोस्ट ऑफीस

ल्हान भुरगीं / खेळगड्यांखातीर हो एक मजेशीर खेळ आसा. ह्या खेळांत उण्यांत उणे दोन भुरगीं / खेळगडी आसल्यार लेगीत हो खेळ खेळूं येता. तशेंच चडांत चड कितलींय भुरगीं / खेळगडी ह्या खेळांत आसूं येतात. पूण त्या खातीर तितलीं शारांची वा राज्यांचीं नावां खेळप्यांक कळूंक जाय.

**साहित्य :–** ह्या खेळाक कसलेच तरेचें साहित्य लागना.



चित्र नं. २७

**खेळपाची पध्दत :–** ह्या खेळाक एक मास्तर / रेफरी (Instructor) आसता. तो सगल्या भुरग्यांक वांटकुळे दवरून तांचेर १०, २०, ३०, अशे १०० मेरेन मेजता. जाचेर १०० आंकडो येता ताका कडेक काडटा. उरिल्यांचेर परत तेच तरेन मेजता. अशे करून शेवटाक एक खेळगडी उरता, ताजेर सुरवेचो डाव दिता. त्या खेळगड्याक सोडून बाकीच्या सगल्यांक भितल्ले वटेन तोंड करून वाटकुळे उबे दवरता. खेळ खंयसरय खेळटात. भितर खेळतात जाल्यार खेळगडी बसून खेळटात. दरेका खेळगड्याक एका शाराचें वा राज्याचे नांव दितात. त्या खेळगडी तें घट्ट मतींत याद दवरता. (चित्र नं. २७).

डाव  दिल्लो खेळगडी ह्या खेळाचो पोस्टमन जाता. आनी हेर बाकीचे सगलें वेगवेगळ्या नावांची शारां, राज्यां ही नावां दितना पोस्टमनाक मातसो पयस फाट करून दवरतात. खेळाचो मास्तर (Instructor) खंच्याय शारांचे/राज्याचें नांव घेता. ते बरबर पोस्टमन जाल्लो खेळगडी तें नांव आशिल्या खेळगड्याच्या सामकार वचून उबो रावता वा बसता. जर ताणे पारखिल्लो खेळगडो त्याच नावाचो आसत जाल्यार, ताचवेलो डाव वता नाव आशिल्लो पोस्टमन जाता. आनी पोस्टमन जाल्लो खेळगडी त्या नावांसयत ताजो जागो घेता.

जर पोस्टमन चुकीच्या खेळगड्या मुखार बसलो/उबो रावलो जाल्यार त्या खेळगडी ताजेर हळूच मूठ वा थापट मारता. पोस्टमनाक अशीं चूक तीन खेपो माफ जावंक शकता. उपरांत ज्या शाराचें वा राज्याचें नांव घेतलां ताका पोस्टमन जाता. आदलो पोस्टमनान ताज्या जाग्यार तें नांव घेवन रावता. अशें करून खेळ मुखार सुरू दवरतात.

असो हो स्मरणशक्तिची चांचणी घेवपी खेळ आसा, जाका 'पोस्ट ऑफिस' म्हणटात.





# ३२. कितले जाण, कितले जाण

जेन्ना खूब खेळगडे आसतले तेन्ना हो खेळ खेळटात कारण ह्या खेळाक चड खेळगडे लागतात.

**साहित्य :–** ह्या खेळाक कसलेच तरेच्या साहित्याची गरज आसना.

खेळपाची पध्दत :– हेर कांय खेळांप्रमाण ह्याय खेळाक मास्तर / रेफरी (Instructor) ची गरज लागता. जितले खेळगडे आसतले तांका सगल्यांक सुरवेक वांटकुळे उबे दवरतात. उपरांत मास्तर म्हणटा 'दाव्यान' ते बरबर सगल्या खेळगडी वांटकुळे एकामेका फाटल्यान शिस्तीन दाव्या वटेन धावतात. मास्तरान 'उजव्यान' म्हणटकीर ते उजव्यान धावतात. (चित्र नं. २८)

चित्र नं. २८



धावता आसतना मास्तरान गीत म्हणिल्यावरी 'कितले जाण कितले जाण' म्हणटा. तशे सगले गितांत सूर मेळोवन म्हणटात, 'तूं सांग, तूं सांग'. अशे कांय खेप जातकीर मास्तर मदींच म्हणटा 'चार जाण चार जाण'.

त्या बरबर धावपी खेळगडे चार / चार जाणांचे हात धरून चोंबो जातात. खेळगड्यांचे चार / चार जाणांचो सारको चोंबो जालो तर बरें जालें. हे चार / चार जाणांचे चोंबे जावन कांय खेळगडे चोंब्या विरेत भायर उरतात

तांका बाद थारायतात. तांकां वर्तुळाच्या मर्दीं बसपाक लायतात. हे बाद जावपी खेळगडे कितलेय आसतात. कारण चार आकडो घेतलो आनी खेळगडे १५ आसत जाल्यार चार/चार जाणांचे ३ चोंबे जातात आनी तीन गडे भायर उरतात. ते तिगय बाद जातात.

डपरांत उरिल्ले परत आदल्यावरीं दाव्यान, उजव्यान धावतात. मास्तर 'कितले जाण कितले जाण' म्हणून विचारता खेळगडे त्याच सुरांत 'तूं सांग, तूं सांग' म्हणटात. मास्तर मर्दींच तांची संख्या पळोवन एक आंकडो म्हणटा. त्या प्रमाण ते चोंबो करतात आनी भायर उरतात तांका बाद थारावन मर्दीं बसयतात. हे तरेन खेळ खेळत रावतात. निमाणे दोग जाण उरतात, तो मेरेन खेळ खेळटात, आनी त्या निमाणे उरिल्या दोगांकय जैतिवंत घोशीत करतात.

उपरांत जाय जाल्यार सगळ्या खेळगड्यांक घेवन परत खेळ सुरू करतात. ह्या खेळाक 'कितले जाण, कितले जाण' म्हूण नांव दितात.





# ३३. माजर आनी हुंदीर

जायत्या खेळांक आमच्या सदच्या संपर्कांत येवपी प्राण्यांचीं नावां दिल्लीं आसात. हो एक असोच खेळा प्रकार आसा. ह्या खेळांत जितले चड वांगडी आसतात तितले बरें. पूण उण्यांत उणे पांच/पांच मेळून १० तरी खेळगडे ह्या खेळांत आसू जाय.

**साहित्य :–** ह्या खेळाक कसल्याच साहित्याची गरज ना.

**खेळपाची पध्दत :–** उपस्थित खेळगड्यांचे दोन पंगड करपाक पयलीं दोन मुखेली वेचून काडटात. हें काम पंच/रेफरीन (Instructor) करता. उपरांत उरिल्ले हेर खेळगडे दोग/दोग जाणांची जोडी करतात. तो मातशे कडेक वचून दोगांकय फळांची, फुलांची, झाडांचीं वा जनावरांचीं कसलींय तात्पुरतीं नावां घेतात. आनी गडीं घालून दोगाय मुखेल्या म्हऱ्यांत वचून म्हणटात मात मात 'हुssर्यो' दोगूय मुखेली बरबर म्हणटात 'हुssर्यो' गडी विचारतात ''कोणाक जाय आबोलें काय कोणांक जाय शब्दुलें''? मुखेली स्वतःक जाय तें मागतात त्या त्या प्रमाण गडी घातिल्ले गडे मुखेल्याऱ्या पंगडांत वचून मेळटात.

चित्र नं. २९



सगले गडे हे तरेन गडी घालून दोगां मुखेल्यांचे दोन पंगड करतात. उपरांत टॉस वडोवन कोणांक माजर आनी खंयच्या पंगडाक हुंदीर करपाचें तें थारायतात. माजर जाल्या पंगडाचे गडे हातांत हात धरून वर्तुळ करतात.

तांचो एक वांगडी वर्तुळा भायर रावता. हुंदीर जाल्या वांगडाचे एके कडेक रावतात. तांच्या मदलो एक गडी वर्तुळांत रावता. (चित्र नं. २९)

पंच / रेफरी पिल्लूक मारून खेळ सुरू करता ते बरबर वर्तुळा भायर राविल्लो मांजराचे वांगडी भितर हुंदराच्या गड्याक धरपाक वता. हुंदराचो वांगडी कसोय धावन मांजराच्या गड्याक चुकयता. तो भितर येत तर हो भायर वता. तो भायर आसत जाल्यार हो भितर वता, अशें करून ताका चुकयता. हात धरूंन राविल्ले हुंदराची माजरासावन राखप करपाची जापसालदारकी दवरतात. माजर हात सोडयनासतना भायर भितर वता आनी हुंदराक धरता हे तरेन हो खेळ खेळटात. हुंदराचो पयलो गडी बाद जातकीर–माजरान हुंदराक धरतकीर दुसरो हुंदराचो गडी वर्तुळांत वता आनी माजराचो गडी ताका तेचवरीं धरपाक वता. हुंदराच्या पंगडाचे सगले वांगडी बाद जातकीर ते माजर जावन खेळ खेळटात. म्हळ्यार माजर जाल्ले हुंदीर जातात आनी हुंदीर जाल्ले माजर जातात आनी खेळ खेळटात. खेळांत चडाओड आनी सर्त लागपाक घड्याळीचेर वेळ लावन खंच्या पंगडान विरोधी पंगडाचे गडे बाद करपाक उणो वेळ घेतलो तें पळोवन त्या पंगडाक जैतिवंत घोशीत करतात, आनी खेळ सुंदर तरेन खेळटात. ह्या खेळाक 'मांजर आनी हुंदीर म्हणटात.



१. एका मेकाच्या खंद्यार फाटल्यान हात घालप.



# ३४. बोमाडे फोड – (I)

ह्या खेळांत कमीत कमी दोन आनी चडांत चड कितलेय खेळगडी आसूं येतात.

**साहित्य :–** ह्या खेळाक जितले खेळगडे आसतात तितले बोमाडे आनी ते बांदूक सूत जाय पडटा.

**खेळपाची पध्दत :–** खेळ सुरू करचे पयलीं दरेक खेळगडो आपआपलो बोमाडो फुलोवन ताका सूत बांदता. तें सूत १/२ फूट लांब दवरून पायांक बांदतात.

चित्र नं. ३०




खेळ खेळपाच्या जाग्यार खेळगडे पळोवन एक वर्तुळ काडटात. चड जाण आसल्यार व्हड आनी कमी खेळगडे आसत जाल्यार ल्हान वर्तुळ काडटात. बोमाडे फुलोवन १/२ फूट लांब सुतान पायांक बांदून जातकीर सगले गडी वर्तुळांत मदीं रावतात. पिल्लूक मारतकीर दरेकलो स्वतःचो बोमाडो राखून दवरीत दुसऱ्याचो बोमाडो पांय दिवन फोडटा. बोमाडो फोडूंक हाताचो उपेग करप ना. तशेंच हातानीं दुसऱ्या खेळगड्याक धरीनांत आनी. वर्तुळाचे शिमें भायर वचनात. (चित्र नं. ३०)

जर हातानीं बोमाडो फोडीत जाल्यार फोडप्याक बाद थारायतात. तशेंच खंच्याय गड्याक दुसऱ्यान हातानीं धरीत जाल्यार ताका दोन

शिटकावण्यो (Warnings) दितात आनी तिसरे खेपे ताका बाद थारावन भायर काडटात. तशेंच ताणे गड्याक धरून ताजो बोमाडो फोडीत जाल्यार बोमडो फोडप्याक बाद करतात. ताजो बोमडो काडून पयल्या गड्याक बांदतात. शिमेभायर वचपी गड्याकय बाद थारायतात.

अशे तरेन खेळगडे एकामेकांचे बोमडे फोडटात निमाणे जाचो बोमाडो शाबूत उरता तो जैतिवंत गडो जाता.



# ३५. बोमाडे फोड (II)

आदल्या खेळावरवी खेळपाचो, तेच तरेचो बोमाडे फोडपाचो आनी एक खेळ आसा.

**साहित्य :–** आदल्या खेळावरीच दरेकल्याक बोमाडो आनी तों बांदपाक सूत जाय पडटा.

**खेळपाची पध्दत :–** खेळपाची पध्दत आदल्या खेळावरीच आसा. पूण ह्या खेळांत खेळगडे बोमाडे पायांक बांदचे बदला हातांत धरपाचे वा हाताक बांदतात. तशेंच ते वर्तुळांत लंगडी घालून खेळटात.

अटी आनी नेम आदल्या खेळासारखेच आसात. त्या भायर एकदां घातिल्ली लंगडी पडूंक फावना. जो खेळगडो निमाणे मेरेन लंगडी घातिल्ली पडनासतना – दोनय पांय जमनीक तेकयनासतना – स्वतःचो बोमाडो शाबूत दवरूंक शकता तो जैतिवंत थारता.





# ३६. उबो खो खो

ह्या खेळाक चड खेळगडे आसतात. आंगणांत वा खेळामळार हो खेळ खेळटात.

**साहित्य :** हया खेळाक कसल्याच साहित्याची गरज आसना.

**खेळपाची पध्दत :** जितले खेळगडे आसतात ते सगले हाताक धरून वर्तुळ करतात. दरेकलो १, २ – १, २ अशे आकडे मेजता. २ आकडो आशिल्ले खेळगडे दोन पावलां फाटल्यान वतात, आनी एक पावल उजव्यान वतात. तेबरबर तो एक नंबराच्या गड्या फाटल्यान पावतात. सगल्या खेळगड्यांचीं दोन वर्तुळां जातात.

दोनय वर्तुळांचो खंचोय एक एक गडो मदल्या मेकळया जाग्यार वता. दोगांचेरय १०, २०, ३०, मेजतात. जाचेर १०० आकडो येतलो तो धावतां आनी दुसरो ताका हात लावपाक ताज्या फाटल्यान धावता. दोगूय मदल्या वर्तुळां भितरच धावतात (चित्र नं. ३१)



चित्र नं. ३१

जेन्ना फाटल्यान धावपी फुडल्याक आफुडटा तेन्नां तो परतो ताका धरपाक धावता अशें करून हो खेळ खेळटात. पूण फुडें धावपी गड्याक एक सवलत मेळटा. तो भितल्या वर्तुळांत उबे राविल्या खंच्याय गड्या मुखार



उबो रावन 'खो' म्हणटा. तेन्ना २ नंबराच्या वर्तुळांतलो गडी धावता. फाट धरपी गडी ह्या नव्या गडयाक धरपाक धवता. नवो गडी रोखडो जाय जाल्यार भितल्या वर्तुळाच्या हेर खंच्याय गड्या मुखार उबो रावन खो म्हणटा आनी खेळ पास करता.

असो खेळ पास करतात तेन्नां भायल्या वर्तुळांतलो गडो धावतकीर आपसुकच पयल्या वर्तुळातलो गडो दुसऱ्या वर्तुळांतल्या धाविल्या गडयांच्या जाग्यार वता. भितरल्यान 'खो' दिवपी गडो १ नंबराच्या वर्तुळांतल्या जाग्यार रावता.

अशे करून हो खेळ खेळटात. खेळगडे जेन्ना परत परत 'खो' दितात तेन्नां ह्या खेळांत चड मजा येता. हे तरेन हो 'उबो खो खो' चो खेळ खेळटात.





# ३७. वांटकुळो खो खो

होय एक चड खेळगड्यांनी खेळपाचो खेळ जावन आसा. खेळपी चड जाण आशिल्यान खेळ चड करून खेळामळार खेळटात.

**साहित्य :–** ह्या खेळाक कसल्याच साहित्याची गरज लागना.

**खेळपाची पध्दत :–** खेळामळार ह्या खेळाखातीर चौकोनी शिमो आखून घेतात. आशिल्या खेळगड्यांचे दोन पंगड करतात. 'अ' आनी 'ब'. 'ब' पंगड आखिल्या चौकोनांत वांटकुळे उबे रावतात. उबे रावतना एकलो भितल्ले वटेन तोंड करता जाल्यार दुसरो भायल्या वटेन तोंड करून उबे रावता. 'अ' पंगड चौकोनाच्या भायर बसता. आनी सुरवेक तांच्या मदले तीग जाण 'ब' न केल्या वर्तुळांत वतात. 'ब' पंगडातलो एका गडी वर्तुळा भायर रावता.

चित्र नं. ३२




घड्याळांत वेळ पळोवन पिल्लूक मारून खेळ सुरू करतात. पिल्लूक मारतकीर भायर आशिलो 'ब' चो गडी वर्तुळात भितर आशिल्या 'अ' च्या तीग गड्यांक धरपाक वता. (चित्र नं. ३२)

१) 'अ' चे तीनय गडे वर्तुळाच्या भायर भितर वतात. पूण आखिल्या चौकोना भायर मात वचनात.

२) 'ब' चो गडी तांचेवरी खंयसरय वता. पूण पयलीं तो उबे राविल्या गड्यांच्या वर्तुळाक भोवताडो काडटा. उपरांतच तो भितर वचून तांका हात लावंन बाद करता.

'अ' च्या तिंगा मदल्या खंच्याय गड्याक 'ब' चो गडी हात लायतकीर तो बाद जाता. तेन्नां तो भायर वता आनी नवो गडी भितर येता.

'ब' चो गडी आपल्या दुसऱ्या खंच्याय गड्याक खेळ पास करता. पूण खेळ पास करतना तो त्या गड्याक फाटल्यान हात लावन 'खो' म्हणटा. 'खो' दिल्लो गडी ताजें तोंड आसा तेच वटेन तांका धरूंक धावता. अशें परत परत खो दिवन 'अ' च्या सगल्या गड्यांक बाद करतात. सगले गडे बाद जातकीर कितलो वेळ लागलो ताजी नोंद करून दवरतात. आनी वेळ पळोवन खेळ परत सुरू करतात. ह्या वेळार 'अ' पंगड वर्तुळ करून उबे रावतात आनी 'ब' पंगड भायर बसून तीन गडे वर्तुळांत खेळूंक वतात.

'ब' चे सगले गडे बाद जातकीर परत वेळाची नोंद घेतात. खंयच्या पंगडाक गडे बाद करपाक उणो वेळ लागला तें पळयतात आनी उण्या वेळांत विरूध्द पंगडाच्या गड्यांक बाद करपी पंगडाक जैतिवंत थारायतात.

ह्या भायर दरेका पंगडाक १०/१० वा ५/५ मिनटां दिवनय हो खेळ खेळटात. दिल्या वेळांत खंयचो पंगड विरूध्द पंगडाचे चडांत चड गडे बाद करता तें पळोवन जैतिवंत पंगडाची निवड करतात. जाचे वरवीं खेळाच्या वेळाचे नियोजन करप समा जाता. ह्या खेळाक ' वांटकुळो खो खो' म्हणटात.





# ३८. घोडेस्वार

आदल्या कांय खेळांवरवी होवय एक चड खेळगड्यांनीं खेळपाचो खेळ आसा. जितले चड जाण आसतात तितली ह्या खेळांत मजा चड. हो खेळ खेळपी खेळगडे आरोग्यान घटमूट आसतात. नाजूक आंगलोटीच्या खेळगड्यांक हो खेळ खेळूंक कठीण जाता. म्हणून खेळगडे पारखून घेतात.

**साहित्य :–** कसल्याच साहित्याबगर खेळपाचो सोपो असो हो खेळ आसा.

**खेळपाची पध्दत :–** जितले वांगडी / खेळगडे आसतात ते सगले एका वर्तुळाच्या आकारांत उबे रावतात. दरेकलो १, २ – १, २ अशे आंकडे मेजता. दोन आकडो आइल्ले गडी दोन पांवलां फाटीं आनी एक पावल उजव्यान वतात. म्हणटकीर ते बरबर एक नंबराच्या खेळगड्यांच्या फाटल्यान पावतात. सगल्या खेळगड्यांचीं मेळून दोन वर्तुळां तयार जातात.. १ नंबराच्या खेळगड्यांचें वर्तुळ ल्हान आनी २ नंबराच्या खेळगड्यांचें वर्तुळ व्हडलें जाता.

चित्र नं. ३३



भितल्या १ नंबराच्या आनी ल्हान वर्तुळाचे गडे दोनय पांय "विश्राम[1]" स्थितीं घेवन उबे रावतात..... आनी मुखार बागोवन दोनय हात धोपरांर

धरतात. (चित्र नं. ३३) तांका घोडे म्हणटात. जेन्नां पिल्लूक मारतले तेन्नां भायल्या वर्तुळांतले खेळगडे मुखार ओणोव घातिल्या आप–आपल्या मुखावेल्या खेळगड्याच्या – घोडो जाल्यांच्या फाटीवेल्यान ' स्वार' (उडी मारून) मुखार वतात, आनी परतून कडेच्यान फाटीं वचून सगल्या घोड्यांच्या फाटल्यांतल्यान वांटकुळे धावन येवन परत आपल्या घोड्याच्या फाटीर बसतात. जो कोण निमाणो उरता ताका ल्हानशी रव्यास्त दितात. रव्यास्त (दंड) म्हणून ताका २ मिनटां भितर गीत म्हणपाक, विनोद सांगपाक वा नाच करपाक लायतात.

उपरांत २ नंबर आशिल्ले भायल्या वर्तुळांतले खेळगडे ल्हान वर्तुळ करतात आनी १ नंबरार आशिल्ले आपआपल्या गड्या फाटल्यान उबे रावन व्हडलें वर्तुळ करतात. आनी आदल्यावरी दरेका वांगड्यांच्या फाटीवेल्यान मुखार उडी मारून खेळ खळटात. जेवरी २ नंबराचे खेळगडे खेळिल्लें. घोडो आनी ताजेर बसपी 'स्वार' जावन खेळपी ह्या खेळाक " घोडेस्वार" म्हणटात.



# ३९. सुणे आनी हाडूक

कांय खेळ खेळगड्यांच्या शिटुकसाणेचे आसतात. तांतूतलोच हो खेळ. कांय खेळांवरी ह्याय खेळाक चड खेळगडी आसतात. पूण कमी खेळगडे आसल्यारय हो खेळ खेळूं येता. उण्यात उणे चार जाण तरी ह्या खेळांत आसूंक जाय. चड जाण आसल्यार चड मजा येता.

**साहित्य :–** ह्या खेळाक तशें व्हडलें साहित्य कांय लागना. फकत एक लेस आसल्यार पुरो जाता.

**खेळपाची पध्दत :–** जितले खेळगडे आसतात तांचे २ पंगड करपाक खेळगडे एके वळीन उबे रावतात. एक एकलो १, २ – १, २ हे आकडे म्हणटा. उपरांत एक नंबरवाल्यांचो आनी दोन नंबरवाल्यांचो अशे दोन पंगड करून वेगवेगळे कडेन दवरतात. (चित्र नं. ३४)




चित्र नं. ३४

खेळामळार दोन समांतर ४० ते ५० फूट अंतरार वळी मारून घेतात. दोनय पंगडाक त्या वळींचेर एकामेकाक तोण करून उबे करतात. दोनय वळींच्या मदीं सुमार २ फुटांच्या व्यासाचें वर्तुळ काडटात. आनी लेस त्या वर्तुळांत दवरतात. दोनय पंगडाचे खेळगडे आपआपल्या पंगडाच्या गड्यांची संख्या १, २, ३ धरून मेजतात. दरेकलो स्वतःचो नंबर याद धरता.

खेळ सुरू करतना जो नंबर घेतले त्या नंबराच्या दोनय वटेनचे खेळगडे धावत वचून मदीं वर्तुळांत दवरिल्लो लेस काडून परत स्वतःच्या जाग्यार वचून रावतात. जे वरीं सुणीं हाड घेवन धावता आनी दुसरो ताज्या फाटल्यान लागता तेवरी. लेस एकच आशिल्यान जो पयलीं पावता ताका मेळटा. लेस काडटकीर दुसरो गडी ताका हात लावचे पयलीं तो स्वतःच्या जाग्यार पावता तरच तो जैतिवंत थारता. दुसऱ्या गड्यान लेस घेवन वचपी गड्याक हात लायलो जाल्यार तो लेस आशिल्लो तस्सो परत मदीं वर्तुळांत दवरून ते आपआपल्या सुवातांचेर वचून उबे रावतात.

मागीर दुसरो खंचोय नंबर घेतात. तेवूय तशेच लेस काडपाक धावन वतात. लेस काडून दुसऱ्या गड्यान हात लावचे पयलीं स्वतःचे सुवातेर पावत जाल्यार दुसरो गडी तांच्या पंगडांत लेस घेवन धाविल्या गड्या फाटल्यान वचून उबो रावता. तांचो एक गडो कमी जाता.

लेस परत वर्तुळांत दवरून दुसऱ्या गड्यांचो नंबर घेवन खेळ खेळटात. अशे करून सगल्यांचे नंबर घेवन सोपयतात.

दोनय वटांनीं सगळे खेळगडे एका फाटल्यान एक रावतात तेन्नां जाल्यो जोडयो मेजतात. ज्या पंगडावटेन चड जोडयो जातल्यो त्या पंगडाक जैतिवंत थारायतात. नंबर घेतना गड्यांमदीं शिटुकताय आसची पडटा. असो शिटूकताये बरबरच धावपांत हुशारी दाखोवपी ह्या खेळाक 'सुणो आनी हाडूक' म्हणटात.





# ४०. बडी पास रेस (सरळ धावन) I

आतां आमी कांय धावपाचे खेळ खेळुया. धावप हो सगल्यांत बरो व्यायामाचो प्रकार आसा. 'धावता तो जिखता' अशी म्हण्णीच आसा. ह्या खेळांत कमीत कमी ४ जाण आनी चडांत चड कितलेय खेळगडी आसूं येता.

**साहित्य :–** ह्या खेळांक साहित्य म्हणून सुमार एक फूट लांब बडी आसता. खेळांत जितले खेळगड्यांचे पंगड आसतले तितल्यो पंगडाक एक अशी बडी आसता. तशेंच पंगडा इतले ल्हानशेच फातर वा तसलेच आनी कितेंय खुणेखातीर दांडे बी पुरचे पडटात.

**खेळपाची पध्दत :–** खेळगडे चड आसत जाल्यार त्या त्या प्रमाण तांचे पंगड करतात. दरेका पंगडात एक सारखे गडी आसतात.



चित्र नं. ३५

पंगड करपाखातीर सगले खेळगडे एके वळींत उबे रावतात. समजा पांच पंगड करपाचे आसात जाल्यार सुरवाते सावन १ ते ५ आकडे दरेक गडो वळीन मेजता. उपरांत एक नंबराचे गडी थंयच रावतात. दोन नंबराचे गडी दोन पावलां मुखार वतात. तीन नंबराच्या गडी दोन पावलां फाटीं वतात. चार नंबराचे गडी चार पावलां मुखार वतात पांच नंबराचे गडी चार पावलां फाटीं वतात. अशें तरेन आपशींच पांच पंगड तयार जातात. उपरांत दरेका

पंगडाचे गडे एका फाटल्यान एक उबे रावन पांच उब्यो लायनी करतात. तांच्या मुखार सुमार ५० फुट पयस खुणेखातीर एक एक फातर वा दांडे पुरतात. दरेक पंगडाचो मुखेली सगल्यांत फुडें रावन हातांत एक फूट लांब बडी धरता. (चित्र नं. ३५)

पंच / रेफरीन (Instructor) पिल्लूक मारून खेळ सुरू करता. तेबरबर दरेका पंगडाचे मुखेली पयलीं धावत वचून मुखार ५० फूट पयस दवरिल्या फातराक वा दांड्याक भोवताडो काडून परत येवन बडी दुसऱ्या गड्याकडेन दिता आनी स्वतः आपल्या वांगड्यांच्या वळी / लायनी फाटल्यान उबो रावता. बडी घेवन दुसरो गडी धावत वचून तेच वरी फातराक / दांड्याक भोवताडो काडून बडी तिसऱ्या वांगड्याकडेन दिता आनी स्वतः वचून वळीच्या फाटल्यान रावता. अशें जितले गडी आसतात ते सगले धावन जातकीर निमाणे वचून उबे रावतात. निमाणो गडी धावंक वता तेन्नां दरेका पंगडाचो मुखेली परत मुखार पावता. निमाण्या गडी धावन येवन बडी ताजे कडेन दिता. मुखेली ती बडी घेवन पंचाकडेन व्हरून दिता आनी एकेवटेन उबो रावता.

हे तरेन दरेका पंगडाचे मुखेली बडयो ज्या क्रमांकान हाडून दितात त्या क्रमांकान पंच तांका उबे करता आनी खंचो पंगड पयलो, दुसरो तें थारावपाचें. खेळ खेळटना हातांतलीं बडी मदीं पडल्यार गडी ती काडूनच परत धावता. बडये बगर धावत जाल्यार ताका बाद थारायतात. तशेंच प्रत्येक खुणेखातीर दवरिल्या दांड्याक भोवताडो मारूनच परत येता. नाजाल्यार ताका बाद थारायतात. ह्या खेळाक 'बडी पास रेस' म्हणटात.





'बडी पास रेस' खेळांत मातसो बदल करून आनीकय जायते खेळ खेळूं येतात.

## ४१. बडी पास रेस (फाटल्यान धावन) II

ह्या खेळांत साहित्य आदल्या खेळावरी लागता आनी खेळटातय त्याच खेळावरी. सुरवातेक मुखेली धरून दरेकलो फातराक/दांड्याक भोवताडो काडूंक वतना गडी फाटल्यान धावप आनी भोवताडो काडून सरळ धावन येता. निमाणे बडी दिवपाक वतनाय सरळ धावता.

## ४२. बडी पास रेस (लंगडी घालून) III

होवय आदल्या खेळावरवी खेळटात. फकत गडी भोवताडो काडूंक वतना लंगडी घालून धावता आनी येतना सरळ धावता. निमाणे बडी दिवंक वतना सरळ धावता. 'लंगडी' म्हळयार ह्याच पुस्तकांत 'लंगडी' म्हणून ६ नंबराचो खेळ दिला तो पळोवचो.

## ४३. बडी पास रेस (बेब्यांनीं) IV

हो खेळ आदल्या खेळाचोच एक प्रकार आसा. फकत बडी घेवन वतना बसून बेब्यावरी उडयो मारीत वतात आनी फातराक/दांड्याक भोवताडो काडून सरळ धावन येतात. हाका 'बडी पास बेब्यांनी' खेळ म्हणटात.








# ४४. राम सांगता

कांय खेळ अशे आसात जांचे वरवीं शरिराक व्यायाम मेळटा. तर कांय खेळांनीं बुध्द लडोवन खेळचें पडटा. जाल्यार कांय खेळ दृश्टी (नदर) आनी आयकुवप हांचो उपेग एका बरबर करपाक शिकोवपी आसात. हो खेळ ह्याच तरेचो आसा. हो भायर बसून वा उबे रावन खेळू येता.

ह्या खेळांत उण्यांत उणे दोन खेळगडे आसतात, आनी चडांत चड कितलेय आसूं येतात. चड जाण आसल्यार खेळाची मजा वाडटा.

**साहित्य :–** ह्या खेळाक कसल्याच तरेच्या साहित्याची गरज लागना.

चित्र नं. ३५



**खेळपाची पध्दत :–** सामको सोपो असो हो खेळ आसा. दरेका खेळगड्याचें खेळाकडेन कितले मेरेन लक्ष आसा हें हो खेळ खेळटना पारखूंक मेळटा. ह्या खेळांत एक पंच/रेफरी (Instructor) आसता. आनी ताजें काम ह्या खेळांत भौ मोलाचें आसता.

पंच सगल्या खेळगड्यांक वांटकुळे बसयता. आनी सुरवेक सांगता फकत ''राम सांगता' तेंच आयकुवप आनी तशें करप. हावें सांगल्यार आयकुवप ना. जो हांव सांगता तें आयकतलो तो बाद जातलो''.(चित्र नं.३६)

हें सांगून जातकीर तो खेळाक सुरवात करता. 'राम सांगता' म्हणटा आनी स्वतः ताळयो मारता. ताजे अनुकरण सगल्या खेळगडे करतात. पंच मुखार म्हणटा 'राम सांगता' आनी तकली खरपिता. हे वरीं 'राम सांगता' म्हणून जायत्यो किया करून दाखयता. सगले खेळगडे त्या त्या प्रमाण करतात. अशे कांय खेपे जातकीर पंच मदींच 'हांव सांगता' म्हणून किया बदलता. (चित्र नं. ३६)

खेळगड्यांचे चडशें लक्ष पंचाचे कियेचेर आसता. 'हाव सांगता' हें उतर तांच्या लक्षात येना आनी ते पंच करता ती किया करतात आनी फसतात. ह्या वेळार जो खेळगडो पंचा सारखी क्रिया करता तो बाद जाता. हे बाद जावप एकाहून चड खेळगडे जावंक शकता. जाचें सारखें आयकुपाचेर आनी कृतीचेर लक्ष आसता तो बाद जायनासतना उरता. बाद जाल्या खेळगडे वर्तुळांच्यान कडेक वतात. उपरांत पंच परत खेळ सुरू करता.

हे तरेन खेळून बाद जायनास्तना निमाणो जो उरता तो जैतिवंत खेळगडो थारता. ताजें खेळाकडेन सारखें लक्ष (Concentration) आसता म्हुण समजुवपाचें. अशा ह्या खेळाक ''राम सांगता'' म्हणटात.



# ४५. मुखेली सोद

कांय खेळ चड वांगड्यांनी खेळपाचे आसात. आनी त्या त्या प्रगाण तांची मजा वाडटा. त्याच प्रकारांतलो हो खेळ आसा.

**साहित्य :–** ह्या खेळाक साहित्य कांयच लागना.

**खेळपाची पध्दत :–** सुरवेक जितले वांगडी आसतात ते सगले वांटकुळें बसतात. डाव घेवपी गडी सोदपाक १०, २० ते १०० मेरेन दरेका गडयाचेर मेजतात. जाचेर १०० येता ताका मातसो पयस फाट करून दवरतात.

चित्र नं. ३७



बशिल्यां मदीं खंच्याय एका गड्याक मुखेली करतात. मुखेली जशें करता तशें सगले करतात. देखीक तो माथें खरपिल्यार सगले ताजें अनुकरण करून तशेंच माथें खरपीतात. ताणे थापटां वाजयल्यार सगले थापटां वाजयतात ताणे नाकाक धरल्यार सगले नाकाक धरतात. हें सगलें पयलीं करपाक लावपी मुखेली कोण तें डाव दिल्लो गडी वर्तुळांत येवन सोदून काडटा. तो मुखेल्याक वळखून हात लायता. मागीर डाव मुखेल्याचेर वता. तो तसोच कडेक वचून थोड्या वेळान येवन नव्या मुखेल्याक सोदून काडटा. तीन खेपे मुखेली वळखूंक तो चुकत जाल्यार ताका शिक्षा म्हणून गीत म्हणपाक, नाचपाक वा विनोद दोन मिनटांभितर सांगपाक लायतात. डाव घेवपी गडी सोदपाक १० २० ते १०० मेरेन दरेका गड्याचेर मेजतात.

त्या उपरांत खरो मुखेली आशिल्लो डाव घेता. आनी नवो मुखेली सोदून काडटा. अशा ह्या मजेशीर खेळाक "मुखेली सोद" म्हणटात.







एन्. सुहास

## साहित्यीक आनी हेर वावर

१८८० सावन सातत्यान वेगवेगळ्या विशयांचेर लेखन करीत आयल्यात. कथा, कादंबरी, कविता, ललीत लेख, नाटक, नाटकुलीं समाज प्रबोधन आदी प्रकार हाताळ्ळ्यात.

गोंय तशेंच गोयांभायर मुंबय, बिहार, पुणें, उत्तर प्रदेश आदी राज्यांतली नेमाळी आनी मासिकांनीं साहित्याक प्रसिध्दी दिल्या आनी ह्या साहित्या खातीर भौतेक इनामां जोडल्यांत.

आकाशवाणी पणजी, मुंबय आनी श्रीलंका केंद्रांचेर कार्यावळी सादर केल्यात आनी साहित्याची वितरावणी जाल्या. लेखना बरबर वेगवेगळ्या संस्थामदीं कार्यरत रावन साहित्यीक, सामाजीक आनी सांस्कृतीक कार्यावळींनीं वांटो घेता. मडगांवच्या कोंकणी भाशा मंडळाचे कार्यकारिणी सामितिचेर सः वर्सा काम केलां. कुडचडेच्या कोंकणी कला , साहित्य केंद्राचे अध्यक्षपद धरून साबार पदाचें काम केला आनी करीत आसात. चौथ्या राष्ट्रीय बालमहोत्सवाचे आनी उत्क्रांती कला केंद्राच्या २ऱ्या अेकांकी महोत्सवाचे यादस्तिकेचें यशस्वी संपादन केलां. हातांत घेतिल्लें कार्य सातत्यान तडीक व्हरप हें खोशेलेंपण. गोंयचें घटक राज्य, कोंकणी राज्यभाशेचो आनी कोंकणीक आठवे वळेरंत सुवात ह्या स्वाभिमानाचे चळवळींत सक्रीय सहभाग घेतला. गोंय राज्याच्या वीज खात्यांत १९८९ सावन नोकरेंत आसा.

श्री. सुरभि प्रकाशन, धडें–सावडडें–गोंय